| वर्तमानकाल रुप् | भूतकाल रुप् | |
|---|---|---|
| | नेमानुसार् | नेमाविरुध्द् |
| करता[does] | करलो | के:लो |
| व्हरता[takes away] | व्हरलो | व्हे:लो |
| म्‌रता[dies] | म्‌रलो | मे:लो |
| वत्ता[goes] | वल्लो | गे:लो |
| ख:ता[eats] | ख:लो | खे:लो |

नेमविरुध्द् क:शि प्रचारारि अय्लि? तंचि निर्माण रीति पोळोव्या ।

i) कृ[त+ज]:लो—[कृ:लो]—के:लो
ह्[त+ज]:लो—[ह्:लो]—हे:लो—>व्हे:लो
मृ[त+ज]:लो—[मृ:लो]—मे:लो

कोंकणीन्तु "ऋ" स्वरशब्दु उच्चारण प्रयासानिमित्त् वर्जितु ज:लो । साक्षि : संस्कृताचो "ऋषि" वाक् कोंकणीन्तु "रिषि" ज:लें । ऋकारु इकार ज:ता ।

कृ[त+ज]:लो—(किय:लो)—के:लो·

'ज' शिथिल् जल्यारि, ते स्थानारि 'य' म्हळेले अर्धस्वराचो [Semi Vowel] आवासु ज:ता, कारण् 'ज' अनी 'य' अन्योन्य् परिणामक् (Interchangeable) अ:शि इ+य—>ए(Diphthong) व्दिस्वरु ज:ता । अ:शि "के:लो व्हे:लो, मे:लो" मणु वाकां मेळ्ताय् । जल्यारि भर्—भरलो[Filled]अनी धर्—धरलो [Held], नेमप्रकारीं अ:साय् । हिं दोन् धातुव् स्वल्प् असाधारण उपयोगान्तु अ:सिल्ले निमिन्ति जाव्यात् ।

ii) वा्च् [To go]—वत्ता Goes:- हो धातु संस्कृताचे "व्रज्" धातुचें अर्धतत्सम्[Semi Tatsama] जावनु अ:स् । संस्कृत धातुचें "ज" दोन् तर्पेन् कोंकणायत् के:लेलें अ:स्—कोंकणी प्राकृतान्तु 'च' जावनूय्, कुण्‌बि प्राकृतान्तु "ह" जावनूय रुपभेदु केल्ला ।

(S)व्रज् - { [Konkani]वा्च्—वत्ता [Pres. tense] —No pasttense; [Kunbi]वा्ह्—वह्ता—व्हलो [Went] }

कोंकणीन्तु "वा्च्" धातूक् भूतकाल प्रयोगु ना । मूतकाला खातीर् "व्रज्" उपेक्ष करनु "गम्" धातु स्वीकारु के:ला । ह:जे कारण् कळूक् ना ।

(S) गम्[To go]—ग[त+ज]:लो—[गय:लो]—गे:लो

iii) खा [To eat] ;— हे धातूचें भूतकालरुप् "ख:लो" मणूय् खे:लो मणूय् प्रयोगारि अ:साय् । (S)खादित—(K)खायि[त+ज]:लो—(खायि:लो)-खे:लो नेमानुसार "खाय्लो" म्हण्चे अनेक जण् (कुण्‌बि) अ:साय । हन्तु "य" शब्दु अतिलघु अथवा मृदु जावनु उच्चारु करचे निमित्त् "खायलो" अस्चें "खालो" मणु अयकूपड्ता । "खे:लो" म्हळेलेंय् उपयोगारि अ:स् ।

vi) घे to take hold of, to purchase, ह:जे वर्तमानकालरुप् "घेत्ता" ज:लेले ले:कान्, भूतकालरुप् "घे:लो [लि](लें)" अ:शि अ:सुका । किन्तु उपयोगारि अस्चें "घेत्लो" मणु. मद्देंचो "त" शब्दु खांय्थून् आयलो? कोंकणी धातुचि उत्पत्ति संस्कृताचे "ग्रह्" धातूंथून् अ:स् । त:जे वर्तमानकालरुप् "ग्रह्णाति" कोंकणायत् केल्यारि नेमानुसार् "घेयता" मणु ज:ता्लें। ते पासावत् थेट् "घेय्" मणु अस्ता्लो । (उदा:- मराटि अनी कुण्‌बि प्राकृत्). सारस्वत कोंकणींतु धातु "घे" म्हण्चें एकि चूकि तं् । ह:जे निज भूतकालरुप् "घेयलो" मणु अ:सुका,—जल्यारि "घेत्लो" मणु उच्चारण् करचें अपभ्रंशु(corrupt usage) जावनु अ:स् ।

v) हेचि नमूनेचें अनी एक् नेमविरुध्द् "या" धातून्तु दे:कूक् पड्ता । हे धातूपामून् उच्चारणापराध् मस्त् अ:साय् । गौड संप्रदायान् ह:जे उच्चारण् "यो" (open 'O' as the second 'O' in Motor) जल्यारीय्, लेखनारुप् "या्" (closed आ्) अ:सुका । हे धातूचें वर्तमानकालरुप् "एत्ता" किं "येत्ता" मण निश्चयु करुका अ:स् । धातूचि उत्पत्ती संस्कृताचे "आ+या"=to come—हन्तुथून् अ:स् ।

(S) आ+याति—(K)ये:ता, "आ" स्वरु अनी "या" स्वरु घटन्‌जावनु "ये" ज:लें । त:शि वर्तमानकालरुप् "येत्ता" जल्यारि भूतकालरुप् "येल्लो" मणु असुका मू; किन्तु निजरुप् "अयलो ज:लें क:शि ? त:जे निर्माण् पोळेयल्यारि कारण् संजता्लें ।

p.p.of आ+या–आया(त+ज):लो–आयालो–आयलो एक्वुणान्त (Penultimate) दीर्घस्वरु ह्रस्व् करचें कोंकणीचे संभाषणद्रुतिबोध् संबंध् ज:लेलें एक् सहज लक्षण् ।

5) भूतकाल वचन निर्माण शैलि [Past tense––Syntax]

a) i) रामु चम्का्लो ii) बयलो चम्का्ल्यो; iii) चेड्डुं चम्का्लें ।

हे तीनि वचनान्तु कर्तारु प्रथमविभक्तीन्तु (Nominative) अ:साय्; क्रियेचे लिंग–वचन् कर्ताक् अनूसार जावनु अ:साय् । हो नेमु अकर्मक् क्रियांक् संबं्् ज:लोलो।

iv) रामान् कृष्णांक् अप्पेयलो; v) रामान् गायंक् हाड्ल्यो; vi) रामान् सूण्यांक् मर्लें : हे तीनि वचनान्तु कर्ता वाकां तृतीय विभक्तीन्तु (Instrumental case) दिल्लेलें एकु विशेषु कोंकणीचो । कर्मवाकां व्दितीयविभक्तीतूच अ:सिल्यनिर्मित्ति, हीं वचन् कर्मणि प्रयोग्(Passive Voice) मणु संगूक् जाय्ना । क्रियेचे वचन-लिंग् कर्माक् अनुसार् करताय् । हो सकर्मक क्रिया संबंध् नेमु ।

b) "रामान् पुस्तकु हड्लो"– हे वचनान्तु "पुस्तकु" म्हळेलें कर्मवाक् कर्ता विभक्तीन्तु दि:लेलें एकु विशेषु तो । हो नेमु निजीव कर्मवस्तूक् [Inanimate objctes] संबंध् ज:लोलो । निर्जीवकां विषयान्तु प्रथमविभक्ति दोन् तरपेन् व्यापरेता : कर्ता विभक्ति जावनूंय्, कर्मविभक्ति जावनूंय् । ते कारणान् कोंकणीतूलि प्रथम विभक्तींक् "व्दिगुण विभक्ति" (Direct case) मणु नावं अ:स् (Formation of Konkani by––S. M. Katre).

6) भूतकाल वचनान्तु नेमविरुध्दं :-वयरी खण्णान्तु संगिल्ले नेमांक् विरुध्द् जावनु थोगडीं वचनं् तुम्हि अयकि:लि अ:सुयात । उदाहरणांक :

a) पावं[To reach, to attain]. हो धातू संस्कृताचे "प्र+आप्=प्राप्" धातूचो तत्भवु । हें पुरातन मूलभाषेन्तू सकर्मक धातू जावनुच् अ:स् साक्षि:— विश्वामित्र: गौतमाश्रमं प्राप्नोत् = Viswamitra reached Goutamasrama.

जल्यारि कोंकणीन्तू तें थेट अकर्मक जावनु व्यापरेता । उदाहरणांक :

i) गोपीयो स्वरगु पावल्यो; ii) ती आनन्दु पावलि; iii) तो दु:ख् पावलो—हे तीनि वचनंतूय् क्रिया कर्ताराक् अनुसारेवंचें तुम्हि पोळोव्यात् ।

b) जेवं् अनी खा — हीं दोनि धातूवं् समानार्थ् मणु लेक्ताय् किं? न्हयं्! तंचो प्रयोगु तोग्गु संगिल्या रीतीन् अ:स् : i) चे:लो सीत् जेव्लो, ii) चे:लि सीत् जेव्लि and iii) चेल्यान् सीत् खे:लें, iv) चेलियेन् पायसु खे:लो । कर्तारानुसार् ज:ले निर्मित्ति "जेवं्" धातु अकर्मक जावनूय्, कर्मानुसार् अ:स् दे:कून् "खा" धातु सकर्मक जावनूय् व्यापरेताय् । कारण् "जेवण्" मळ्ळेलें बहुपदार्थ् एकडे ज:लेलें भोजन् । "जेवलो" ह:जो आंग्रेजि अनुवादु "Ate" मणु न्हयं्, किन्तु "Supped" अथवा "Lunched" मणुतं् । क:सलेंय् पदार्थां नावं् मंगल्यारि "खा" धातु प्रयोगु करका; उदा:- सीत् खे:लें; खीरि खे:लि; मण्डो खे:लो ।

c) अनीकय् थोगडि धातूवं् वचन नेमाक् विरोध्रु जावनु प्रयोगारि अ:साय् ।

वळख् (to recognise)हो धातु संस्कृतांतूलो "वि+लक्ष्" धातूचो तत्भव । प्रयोगारि अकर्मक जावनु अयकू पड्ना:– गायि यजमानाक् वळखीलि; पूतु अनेककाला–नन्तर् अवसूक् वळखा्लो । हो धातु सकर्मकार्थ् जल्यारीय् प्रयोगारि कर्तानुसारि अकर्मक अ:शि अ:स् । पी(to drink)-हो धातूय् वयरि संगि:ले ले:कान् अ:स् । उदा:- हावं् उ:दाक् पि:लों; तो कापि पि:लो, ती सूरु पि:लि । नेमानुसार् हीं वचनं् तोग्गु दिलेले मण्के अ:सुकाय । हावें उ:दाक् पिलें; ताणे कापि पि:ली; ताणे सूरु पि:ली ।

चिरकाल प्रयोगान् जनाचारार आयि:ले हे प्रयोग् व्याकरणप्रकार् वि:सम्मत् जावनु अ:साय् ।

—डॉ. पण्डरीनाथ् भुवनेन्द्र जनार्दन्

# कोंकणी आनी मराठी हांचो नाजूक विमर्सो

(मुंदरिलां)

कोंकणींत आवयक उलो करुंक संस्कृताचा "माता" शब्दाचें रुपांतर "माय=आवय" शब्द आसा आनी तो, आवयखातीर मात्र वापरतात। देकुन तो शब्द हेर स्त्रीयांखातीर "अम्म" म्हळळया अर्थान "बाय" म्हण रुपांतर करन वापरतात आनी उलो करताना तो, "बाये" जाता। बाय स्त्रीयांच्या नांवा बराबर येताना "बायि" रूप घेता। उदा:- कमलाबायि, सीताबायि, मेरीबायि इत्यादी। म्हळयार, "बाय" वा "बायि" कानडिच्या "अम्म" वा "अव्व" शब्दाक समसारको। कोंकणींतलो "बायि" मराठींत "बाई" जाता।

कोंकणींत बापय अर्थान संस्कृताचो वपता शब्द बप्पा आनी आतां बाप्पा जाला। मान दिंवचे खातीर "बाप्पा" शब्दाक "ऊय" "ऊज" वा "ऊजू" प्रत्ययां लागतालीं आनी ताचीं रूपां – "बापूय, बापूज आनी बापूजू" जातालीं। उपरांत "ज" आसल्लें "स" जावन "बापुस आनी बापुसु" रुपां घोळोंक लागल्यांत। त्या शब्दांचीं विभक्ती रुपां अशीं:- बाप्पाक=बापुयाक =बापुसूक=बापायक। बाप्पा शब्दाचें मोटवें रूप "बाप" आसा। हैंच "बाब" जावन बदलोन परकी लोकाच्या नांवाक लागोन "अय्य" वा "अप्प" म्हळळया कानडी शब्दांचो अर्थ दिता। कानडिचें-नारणप्प वा नारणय्य-कोंकणींत नारायणबाब वा नाणबाब अशें घोळता।

पुरुष (वीर) अर्थान घोळोन आसल्लो दादलो वा दारलो शब्द ज्ञानेश्वरींत दादुला रूपान कोंकणी-तल्या अर्थानंच जायते पावटीं वापरला :- "बिरुदाचे दादुले हिंवताती" = नांवादीक पुरूष कुलकुलतात। मराठी शब्दकोशकारांनी "दादुला आनी दादला" आपल्या शब्दकोशांनी दीवन तांकां "घोव" अर्थ दिला। [दादला – ल्या = Husband : The Arya-Bhushan

# ಕೊಂಕಣಿ ಆನಿ ಮರಾಠಿ ಹಾಂಚೊ ನಾಜೂಕ್ ವಿಮರ್ಸೊ

(ಮುಂದರಿಲಾಂ)

ಕೊಂಕಣಿಂತ್ ಆವಯ್ಕ್ ಉಲೊ ಕರುಂಕ್ ಸಂಸ್ಕೃತಾಚಾ "ಮಾತಾ" ಶಬ್ದಾಚೆಂ ರುಪಾಂತರ್ "ಮಾಯ್=ಆವಯ್" ಶಬ್ದ್ ಆಸಾ ಆನಿ ತೊ, ಆವಯ್‌ಖಾತಿರ್ ಮಾತ್ರ ವಾಪರ್ತಾತ್. ದೆಕುನ್ ತೊ ಶಬ್ದ್ ಹೆರ್ ಸ್ತ್ರೀಯಾಂಖಾತಿರ್ "ಅಮ್ಮ" ಮ್ಹಳ್ಳ್ಯಾ ಅರ್ಥಾನ್ "ಬಾಯ್" ಮ್ಹಣ್ ರುಪಾಂತರ್ ಕರ್ನ್ ವಾಪರ್ತಾತ್ ಆನಿ ಉಲೊ ಕರ್ತಾನಾ ತೊ "ಬಾಯೆ" ಜಾತಾ. "ಬಾಯ್" ಸ್ತ್ರೀಯಾಂಚ್ಯಾ ನಾಂವಾ ಬರಾಬರ್ ಯೆತಾನಾ "ಬಾಯಿ" ರೂಪ್ ಘೆತಾ. ಉದಾ:—ಕಮಲಾಬಾಯಿ, ಸೀತಾಬಾಯಿ, ಮೇರಿಬಾಯಿ ಇತ್ಯಾದಿ. ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್, "ಬಾಯ್" ವಾ "ಬಾಯಿ" ಕಾನಡಿಚ್ಯಾ "ಅಮ್ಮ" ವಾ "ಅವ್ವ" ಶಬ್ದಾಕ್ ಸಮಸಾರ್ಕೊ. ಕೊಂಕಣಿಂತ್ಲೊ "ಬಾಯಿ" ಮರಾಠಿಂತ್ "ಬಾಈ" ಜಾತಾ.

ಕೊಂಕಣಿಂತ್ "ಬಾಪಯ್" ಅರ್ಥಾನ್ ಸಂಸ್ಕೃತಾಚೊ "ವಪ್ತಾ" ಶಬ್ದ್ "ಬಪ್ಪಾ" ಆನಿ ಆತಾಂ "ಬಾಪ್ಪಾ" ಜಾಲಾ. ಮಾನ್ ದಿಂವ್ಚೆಖಾತಿರ್ "ಬಾಪ್ಪಾ" ಶಬ್ದಾಕ್ "ಊಯ್" "ಊಜ್" ವಾ "ಊಜೂ" ಪ್ರತ್ಯಯಾಂ ಲಾಗ್ತಾಲಿಂ ಆನಿ ತಾಚಿಂ ರುಪಾಂ—"ಬಾಪೂಯ್, ಬಾಪೂಜ್ ಆನಿ ಬಾಪೂಜೂ" ಜಾತಾಲಿಂ. ಉಪ್ರಾಂತ್ "ಜ" ಆಸ್‌ಲ್ಲೆಂ "ಸ" ಜಾವ್ನ್ "ಬಾಪುಸ್ ಆನಿ ಬಾಪುಸು" ರುಪಾಂ ಘೊಳೊಂಕ್ ಲಾಗ್ಲ್ಯಾಂತ್. ತ್ಯಾ ಶಬ್ದಾಂಚಿಂ ವಿಭಕ್ತಿ ರುಪಾಂ ಅಶಿಂ:- ಬಾಪ್ಪಾಕ=ಬಾಪುಯಾಕ=ಬಾಪುಸೂಕ=ಬಾಪಾಯ್ಕ್. ಬಾಪ್ಪಾ ಶಬ್ದಾಚೆಂ ಮೊಟ್ವೆಂ ರೂಪ್ "ಬಾಪ್" ಆಸಾ. ಹೆಂಚ್ "ಬಾಬ್" ಜಾವ್ನ್ ಬದ್ಲೊನ್ ಪರ್ಕಿ ಲೊಕಾಚ್ಯಾ ನಾಂವಾಕ್ ಲಾಗೊನ್ "ಅಯ್ಯ" ವಾ "ಅಪ್ಪ" ಮ್ಹಳ್ಳ್ಯಾ ಕಾನಡಿ ಶಬ್ದಾಂಚೊ ಅರ್ಥ್ ದಿತಾ. ಕಾನಡಿಚೆಂ—ನಾರಣಪ್ಪ ವಾ ನಾರಣಯ್ಯ—ಕೊಂಕಣಿಂತ್ ನಾರಾಯಣ್‌ಬಾಬ್ ವಾ ನಾಣ್ಣಬಾಬ್ ಅಶೆಂ ಘೊಳ್ತಾ.

ಪುರುಷ್ (ವೀರ್) ಅರ್ಥಾನ್ ಘೊಳೊನ್ ಆಸ್‌ಲ್ಲೊ ದಾದಲೊ ವಾ ದಾರಲೊ ಶಬ್ದ್ ಜ್ಞಾನೇಶ್ವರಿಂತ್ "ದಾದುಲಾ" ರುಪಾನ್ ಕೊಂಕಣಿಂತ್ಲ್ಯಾ ಅರ್ಥಾನ್ಂಚ್ ಜಾಯ್ತೆ ಪಾವ್ಟಿಂ ವಾಪರ್ಲಾ:- **"ಬಿರುದಾಚೆ ದಾದುಲೆ ಹಿಂವತಾತಿ"**= ನಾಂವಾದೀಕ್ ಪುರುಷ್ ಕುಲ್ಕುಲ್ತಾತ್. ಮರಾಠಿ ಶಬ್ದಕೋಶ್‌ಕಾರಾಂನಿ "ದಾದುಲಾ ಆನಿ ದಾದಲಾ" ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಶಬ್ದ್‌ಕೋಶಾಂನಿ ದೀವ್ನ್ ತಾಂಕಾಂ "ಘೊವ್" ಅರ್ಥ್ ದಿಲಾ. [ದಾದ

School - Dictionary· दादला ; दादुला=नवरा : मराठी शब्दरतनाकर] म्हळयार, त्या कोशकारांक "दादला" शब्दाची ओळख ना म्हण तांणीं दाकयलां। तशेंच, कोंकणींत "दादल्या जातिचें" म्हणपाक— "दादलो-ली-लें" आनी "बायल्ये जातिचें" म्हणपाक "बाइलो-ली-लें" म्हळळीं विशेषणां वापरतात। हीं जांव, हांचे समान अर्थाचे हेर प्राकृत शब्द जांव मराठींत नांत। तांच्या बदलाक, त्याच अर्थान पारसी भाषेचे "नर=दादलें" आनी "मादी=बाइलें" शब्द आसात। "नर शब्द मुळा थावन संस्कृताचोच जाल्यारी ताचो "दादल्या जातिचें" म्हणपाचो अर्थ पारसी भाषेचोच। पारसी भाषेचें मूळयी संस्कृतच।

संस्कृताचो "जन" धातु कोंकणींत "ज" रुपान सगळया क्रिया घटकांचीं आनी काळारूपांचीं कुसां घेवन घोळता। उदा :—वर्तमान काल (प्राचीन रूप) -जाइ; (आतांचें रूप) - जाता। ह्येच परीं, जालें जाल्लें, जालां, जालेलें, जाताले, जातलें। संभाव्य भविष्य (साधो भविष्य) -जाइत; संभाव्यकृदंत-जावचें; भविष्यतकालीक कृदंत - जातलें। कृन्नाम - जावप, जावणें; कृदंतविशेषण-जाइ (जाय)। उदा:- जाय गूण=हुट्टु गूण, संयबाचो गूण। पूर्वकालीक कृदंत- जाउन, जाउनि, जाउनु। क्रियाविशेषणां-जाउं, जातना जातां, जाईत। (उदा:~ जाईत वच्ता) जातचि, जाल्यारी; संकेतार्थ-जातें। आज्ञार्थ-जाओ। विध्यर्थ- ज़ाइजे। हाचें "जे" गळयिल्लें रूप 'जाइ' आतांच्ये कोंकणींत कानडिच्या 'बेकु' अर्थान घोळता।

कोंकणींत 'जा' क्रियेचीं इतलीं रुपां आसात तरयी मराठींत 'जा' क्रियेचीं भूतकालीक कृदंत-झालेलें आनीं सामान्यभूतकालीक रुपां शिवाय हेर काळाचीं रुपां नांत। मात्र न्हय, मूळ धातु 'जा'च ना। अशें आसतां, मराठींत झालेलें आनी झालें इत्यादी रुपां खंय थावन आनी कशीं आयलीं म्हण कोंकणी मराठीची बोली म्हणपी मराठी पंडित सार्की जाप दीवंक सकचेनांत। पोरण्या मराठी साहित्यांत-जालें आनीं जालेलें म्हळळीं शुद्ध कोंकणी रूपांच पळेंवक मेळतात। त्या भायर, असलीं रुपां भारतांत

ಲಾ—ಲ್ಯಾ = Husband : The Arya - Bhushan School-Dictionary. ದಾದಲಾ; ದಾದುಲಾ=ನವರಾ: ಮ:ರಾಠಿ ಶಬ್ದರತ್ನಾಕರ] ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್, ತ್ಯಾ ಕೋಶ್‌ಕಾರಾಂಕ್ "ದಾದಲಾ" ಶಬ್ದಾಚಿ ಒಳಖ್ ನಾ ಮ್ಹಣ್ ತಾಂಣಿಂ ದಾಕಯ್ಲಾಂ ತಶೆಂಚ್, ಕೊಂಕಣಿಂತ್ "ದಾದ್ಲ್ಯಾ ಜಾತಿಚೆಂ" ಮ್ಹಣ್ಪಾಕ್ "ದಾದಲೊ-ಲಿ-ಲೆಂ" ಆನಿ "ಬಾಯ್ಲೇ ಜಾತಿಚೆಂ" ಮ್ಹಣ್ಪಾಕ್ "ಬಾಇಲೊ-ಲಿ-ಲೆಂ" ಮ್ಹಳ್ಳಿಂ ವಿಶೇಷಣಾಂ ವಾಪರ್ತಾತ್. ಹಿಂ ಜಾಂವ್, ಹಾಂಚೆ ಸಮಾನ್ ಅರ್ಥಾಚೆ ಹೆರ್ ಪ್ರಾಕೃತ್ ಶಬ್ದ್ ಜಾಂವ್ ಮರಾಠಿಂತ್ ನಾಂತ್. ತಾಂಚ್ಯಾ ಬದ್ಲಾಕ್, ತ್ಯಾಚ್ ಅರ್ಥಾನ್ ಪಾರ್ಸಿ ಭಾಷೆಚೆ "ನರ್=ದಾದಲೆಂ" ಆನಿ "ಮಾದೀ = ಬಾಇಲೆಂ" ಶಬ್ದ್ ಆಸಾತ್. "ನರ್" ಶಬ್ದ್ ಮುಳಾ ಥಾವ್ನ್ ಸಂಸ್ಕೃತಾಚೊಚ್ ಜಾಲ್ಯಾರೀ ತಾಚೊ "ದಾದ ಲ್ಯಾ ಜಾತಿಚೆಂ" ಮ್ಹಣ್ಪಾಚೊ ಅರ್ಥ್ ಪಾರ್ಸಿ ಭಾಷೆಚೊಚ್. ಪಾರ್ಸಿ ಭಾಷೆಚೆಂ ಮೂಳ್‌ಯಿ ಸಂಸ್ಕೃತ್‌ಚ್.

ಸಂಸ್ಕೃತಾಚೊ "ಜನ್" ಧಾತು ಕೊಂಕಣಿಂತ್ "ಜಾ" ರುಪಾನ್ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಕ್ರಿಯಾ ಘಟಕಾಂಚಿಂ ಆನಿ ಕಾಳಾ ರುಪಾಂಚಿಂ ಕುಸಾಂ ಘೆವ್ನ್ ಘೊಳ್ತಾ. ಉದಾ:—ವರ್ತಮಾನ್ ಕಾಲ್ (ಪ್ರಾಚೀನ್‌ರೂಪ್)—ಜಾಇ; (ಅತಾಂಚೆಂ ರೂಪ್)—ಜಾತಾ. ಹೇಚ್ ಪರಿಂ, ಜಾಲೆಂ, ಜಾಲ್ಲೆಂ, ಜಾಲಾಂ, ಜಾಲೆಲೆಂ, ಜಾತಾಲೆಂ, ಜಾತಲೆಂ. ಸಂಭಾವ್ಯ ಭವಿಷ್ಯ (ಸಾಧೊ ಭವಿಷ್ಯ)—ಜಾಇತ; ಸಂಭಾವ್ಯ ಕೃದಂತ್ —ಜಾವಚೆಂ; ಭವಿಷ್ಯತ್ಕಾಲಿಕ್ ಕೃದಂತ್— ಜಾತಲೆಂ. ಕೃನ್ನಾಮ್—ಜಾವಪ್, ಜಾವಣೆಂ; ಕೃದಂತ್ ವಿಶೇಷಣ್—ಜಾಇ (ಜಾಯ್). ಉದಾ:- ಜಾಯ್‌ಗೂಣ್= ಹುಟ್ಟುಗೂಣ್, ಸಂಯ್ಬಾಚೊ ಗೂಣ್. ಪೂರ್ವಕಾಲಿಕ್ ಕೃದಂತ್ — ಜಾಉನ್, ಜಾಉನಿ, ಜಾಉನು. ಕ್ರಿಯಾವಿಶೇಷಣಾಂ—ಜಾಉಂ, ಜಾತನಾ, ಜಾತಾಂ, ಜಾಈತ (ಉದಾ:- ಜಾಈತ ವಚ್ತಾ) ಜಾತಚಿ, ಜಾಲ್ಯಾರಿ: ಸಂಕೇತಾರ್ಥ್—ಜಾತೆಂ. ಆಜ್ಞಾರ್ಥ್ —ಜಾಓ. ವಿಧ್ಯರ್ಥ್—ಜಾಇಜೆ. ಹಾಚೆಂ "ಜೆ" ಗಳಯಿಲ್ಲೆಂ ರೂಪ್ "ಜಾಇ" ಆತಾಂಚ್ಯೆ ಕೊಂಕಣಿಂತ್ ಕಾನಡಿಚ್ಯಾ "ಬೇಕು" ಅರ್ಥಾನ್ ಘೊಳ್ತಾ.

ಕೊಂಕಣಿಂತ್ 'ಜಾ' ಕ್ರಿಯೆಚಿಂ ಇತ್ಲಿಂ ರುಪಾಂ ಆಸಾತ್ ತರ್‌ಯಿ ಮರಾಠಿಂತ್ 'ಜಾ' ಕ್ರಿಯೆಚೆಂ ಭೂತ್‌ಕಾಲಿಕ್ ಕೃದಂತ್—ಝಾಲೇಲೆಂ ಆನಿ ಸಾಮಾನ್ಯ ಭೂತ್‌ಕಾಲಿಕ್ ರುಪಾಂ ಶಿವಾಯ್ ಹೆರ್ ಕಾಳಾಂಚಿಂ ರುಪಾಂ ನಾಂತ್. ಮಾತ್ರ್, ನ್ಹಯ್, ಮೂಳ್‌ಧಾತು 'ಜಾ'ಚ್ ನಾ. ಅಶೆಂ ಅಸ್ತಾಂ, ಮರಾಠಿಂತ್ ಝಾಲೇಲೆಂ ಆನಿ ಝಾಲೇಂ ಇತ್ಯಾದಿ ರುಪಾಂ ಖಂಯ್ ಥಾವ್ನ್ ಆನಿ ಕಶಿಂ ಆಯ್ಲಿಂ ಮ್ಹಣ್ ಕೊಂಕಣಿ ಮರಾಠಿಚಿ ಬೋಲಿ ಮ್ಹಣ್ಪಿ ಮರಾಠಿ ಪಂಡಿತ್ ಸಾರ್ಕಿ ಜಾಪ್ ದೀಂವ್ಕ್ ಸಕ್ಚೆನಾಂತ್. ಪೊರ್ಣ್ಯಾ ಮರಾಠಿ ಸಾಹಿತ್ಯಾಂತ್—ಜಾಲೇಂ ಆನಿ ಜಾಲೇಲೆಂ ಮ್ಹಳ್ಳಿಂ ಶುದ್ಧ್ ಕೊಂಕಣಿ ರುಪಾಂಚ್ ಪಳೆಂವ್ಕ್ ಮೆಳ್ತಾತ್. ತ್ಯಾ ಭಾಯ್ರ್, ಅಸಲಿಂ ರುಪಾಂ ಭಾರತಾಂತ್

प्राकृता थावन उब्जल्ल्ये हेर खंयचेय भाषेंत नांत देकुन–मराठी कोंकणी थावनंच जलमल्ली म्हण सिद्ध करपाक हेर दाकल्यांची गरज ना। ज्ञानेश्वरींत 'जा' क्रियाधातुचो आन्येक प्रयोग आसा :- "सुख जावों लागलें फावा ॥७-१९१॥" = सुख फावो जाउं लागलें। तांतलो जावों म्हळळो शब्द कोंकणींच्या 'जाउं' शब्दाचें रूपांतर। ज्ञानेश्वरींत सामान्य कोंकणीचें 'उं' प्रत्यय 'ओं' रुपान उपेगायलां। तशेंच, सगळयानयी 'ओ' स्वराच्या बदलाक 'वो' व्यंजन वापरलां। उदा:–ओगर=वोगर।

ಪ್ರಾಕೃತಾ ಥಾವ್ನ್ ಉಜ್ವಲ್ಲ್ಯೆ ಹೆರ್ ಖಂಯ್ಚ್ಯೆಯ್ ಭಾಷೆಂತ್ ನಾಂತ್ ದೆಕುನ್—ಮರಾಠಿ ಕೊಂಕಣಿ ಥಾವ್ನ್ಂಚ್ ಜಲ್ಮಲ್ಲಿ ಮ್ಹಣ್ ಸಿದ್ಧ್ ಕರ್ಪಾಕ್ ಹೆರ್ ದಾಖ್ಲ್ಯಾಂಚಿ ಗರ್ಜ್ ನಾ. ಜ್ಞಾನೇಶ್ವರಿಂತ್ "ಜಾ" ಕ್ರಿಯಾಧಾತುಚೊ ಆನ್ಯೆಕ್ ಪ್ರಯೋಗ್ ಆಸಾ:- "**ಸುಖ ಜಾವೋಂ ಲಾಗಲೇಂ ಫಾವಾ ||7-191||**"=ಸುಖ್ ಫಾವೊ ಜಾಉಂ ಲಾಗಲೆಂ. ತಾಂತ್ಲೊ ಜಾವೋಂ ಮ್ಹಳ್ಳೊ ಶಬ್ದ್ ಕೊಂಕಣೆಚ್ಯಾ "ಜಾಉಂ" ಶಬ್ದಾಚೆಂ ರುಪಾಂತರ್. ಜ್ಞಾನೇಶ್ವರಿಂತ್ ಸಾಮಾನ್ಯ್ ಕೊಂಕಣೆಚೆಂ 'ಉಂ' ಪ್ರತ್ಯಯ್ 'ಓಂ' ರುಪಾನ್ ಉಪೇಗಾಯ್ಲಾಂ. ತಶೆಂಚ್ ಸಗ್ಳ್ಯಾನ್‌ಯೀ 'ಓ' ಸ್ವರಾಚ್ಯಾ ಬದ್ಲಾಕ್ 'ವೋ' ವ್ಯಂಜನ್ ವಾಪರ್ಲಾಂ. ಉದಾ:- ಓಗರ=ವೋಗರ.

जशें कोंकणींत, तशें मराठींत संस्कृत 'अस' धातु घोळता। कोंकणींत सगळया काळारुपांनी हो धातु "आस" आनी "आह"—ह्या रुपांनी वापरला। "आह" म्हळें रूप खेडेगांवांनी (हळळयांनी) घोळता। पुण मराठींत "अस" धातुचीं रुपां अनियमित, मात्र न्हय, पूर्ण भूतकालाचीं "आसलें, आसलो" इत्यादी अर्थाचीं रुपांच नांत। तो अर्थ जाय तेदना, हिन्दी भाषेच्या "हो" धातुचीं रुपां भूतकालीक अर्थान उपेगायल्यांत। उदा:– होतें=आसलें; होता=आसलो; होती=आसली इत्यादी। मराठींत असल्यो कांय थोडयो अव्यवस्था (गोंदळ) आसात। कोंकणींच्या "जा"=जा आनी जलम क्रियाधातु बदलाक मराठींत हिन्दी भाषेचें "हो" क्रियारूप वापरांत आसा। मराठींत "हो" क्रियाधातुक भूतकालीक प्रत्ययांच नांत, बगर झालें, झाला, झाली रूपां चालू आसात।

ಜಶೆಂ ಕೊಂಕಣೆಂತ್, ತಶೆಂ ಮರಾಠಿಂತ್ ಸಂಸ್ಕೃತ್ 'ಅಸ್' ಧಾತು ಘೊಳ್ತಾ. ಕೊಂಕಣೆಂತ್ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಕಾಳಾರುಪಾಂನಿ ಹೊ ಧಾತು 'ಆಸ' ಆನಿ 'ಆಹ'—ಹ್ಯಾ ರುಪಾಂನಿ ವಾಪರ್ಲಾ. 'ಆಹ' ಮ್ಹಳ್ಳೆಂ ರೂಪ್ ಖೆಡೆಗಾಂವಾಂನಿ (ಹಳ್ಳ್ಯಾಂನಿ) ಘೊಳ್ತಾ. ಪುಣ್ ಮರಾಠಿಂತ್ "ಅಸ" ಧಾತುಚಿಂ ರುಪಾಂ ಅನಿಯಮಿತ್, ಮಾತ್ರ್ ನ್ಹಯ್, ಪೂರ್ಣ್ ಭೂತ್‌ಕಾಲಾಚಿಂ "ಆಸ್ಲೆಂ, ಆಸ್ಲೊ" ಇತ್ಯಾದಿ ಅರ್ಥಾಚಿಂ ರುಪಾಂಚ್ ನಾಂತ್. ತೊ ಅರ್ಥ್ ಜಾಯ್ ತೆದ್ನಾ, ಹಿಂದೀ ಭಾಷೆಚ್ಯಾ 'ಹೋ' ಧಾತುಚಿಂ ರುಪಾಂ ಭೂತ್‌ಕಾಲಿಕ್ ಅರ್ಥಾನ್ ಉಪೇಗಾಯ್ಲ್ಯಾಂತ್. ಉದಾ :— ಹೋತೆಂ = ಆಸ್ಲೆಂ; ಹೋತಾ = ಆಸ್ಲೊ; ಹೋತಿ = ಆಸ್ಲಿ ಇತ್ಯಾದಿ. ಮರಾಠಿಂತ್ ಅಸಲ್ಯೊ ಕಾಂಯ್ ಥೊಡ್ಯೊ ಅವ್ಯವಸ್ಥಾ (ಗೊಂದಳ್) ಆಸಾತ್. ಕೊಂಕಣೆಚ್ಯಾ 'ಜಾ'=ಜಾ ಆನಿ ಜಲ್ಮ ಕ್ರಿಯಾಧಾತು ಬದ್ಲಾಕ್ ಮರಾಠಿಂತ್ ಹಿಂದೀ ಭಾಷೆಚೆಂ 'ಹೋ' ಕ್ರಿಯಾರೂಪ್ ವಾಪರಾಂತ್ ಆಸಾ. ಮರಾಠಿಂತ್ "ಹೋ" ಕ್ರಿಯಾಧಾತುಕ್ ಭೂತ್‌ಕಾಲಿಕ್ ಪ್ರತ್ಯಯಾಂಚ್ ನಾಂತ್, ಬಗರ್ ಝಾಲೇಂ, ಝಾಲಾ, ಝಾಲೀ ರುಪಾಂ ಚಾಲೂ ಆಸಾತ್.

संस्कृतांत भूतकालीक कृदंत संदर्भाप्रकार सामान्य भूत, पूर्णवर्तमान आनी पूर्णभूत, हे तीनही काळ सुचयता। त्येच परीं संस्कृत कृदंता थावत बदल्लेलीं कोंकणी भूतकालीक क्रियारुपां संपत्याचो स्वर बदलोन्‌च त्या तीनी काळांचो अर्थ दितात। पुण मराठींत सहायक क्रियापद नास्ताना ते अर्थ सुचंवक जायना। उदा:—

ಸಂಸ್ಕೃತಾಂತ್ ಭೂತ್‌ಕಾಲಿಕ್ ಕೃದಂತ್ ಸಂದರ್ಭಾ ಪ್ರಕಾರ್ ಸಾಮಾನ್ಯ ಭೂತ್, ಪೂರ್ಣ್‌ವರ್ತಮಾನ್ ಆನಿ ಪೂರ್ಣ್ ಭೂತ್, ಹೆ ತೀನ್‌ಯೀ ಕಾಳ್ ಸುಚಯ್ತಾ. ತ್ಯೆಚ್‌ಪರಿಂ ಸಂಸ್ಕೃತ್ ಕೃದಂತಾ ಥಾವ್ನ್ ಬದ್ಲಲ್ಲಿಂ ಕೊಂಕಣಿ ಭೂತ್‌ಕಾಲಿಕ್ ಕ್ರಿಯಾರುಪಾಂ ಸಂಪ್ಪ್ಯಾಚೊ ಸ್ವರ್ ಬದ್ಲೊನ್‌ಂಚ್ ತ್ಯಾ ತೀನೀ ಕಾಲಾಂಚೊ ಅರ್ಥ್ ದಿತಾತ್. ಪುಣ್ ಮರಾಠಿಂತ್ ಸಹಾಯಕ್ ಕ್ರಿಯಾಪದ್ ನಾಸ್ತಾನಾ ತೆ ಅರ್ಥ್ ಸುಚಂವ್ಕ್ ಜಾಯ್ನಾ. ಉದಾ :—

| कोंकणी | मराठी |
|---|---|
| रामु आयलो | रामा आला |
| रामु आयला | रामा आला आहे |
| रामु आइल्लो | रामा आला होता |
| रामु कालि कहीं आसीलो? | रामा काल कुठंऽ होता? |

संस्कृतांतलीं काळसूचक क्रियाविशेषणां इदानीं, तदानीं, कदा इत्यादी, दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतल्या सारस्वत ब्राह्मणां मधें क्रमप्रकार एदना = एद्दना; तेदना = तेद्दना; केदना = केद्दना — ह्या दोदोन रुपांनी घोळतात। क्रिस्ती बांवडां मधें एदवां = एन्ना; तेदवां = तेन्ना; केदवां = केन्ना — अशीं घोळतात। हींच रूपां मराठींत एधवां = एव्हां; तेधवां = तेव्हां; केधवां = केव्हां — अशीं घोळतात।

संस्कृतांतलीं अत्र, तत्र, कुत्र, यत्र — हीं सातवे विभक्तितलीं थळक्रियाविशेषणां कोंकणींत ह्ये परीं दोदोन रुपांनी घोळतात। अहिं (हइं) = हांगा; तहीं (थइं) = थंय; कहिं (खइं) = खंय? जहिं = ज्हंय (संबंधी क्रियाविशेषण) आनी एथां (हेतां) = हेणें (हेव्शिन); तेथां = तेणें (तेव्शिन); केथां = खंयचान (केव्शिन?)। दक्षिण कन्नडांत चालू आसल्ल्या पोरण्या पदांनी एथें, तेथें — हीं रूपांय घोळतालीं। उदा॰ - एथें एथें बैसरे मोरा। मोर गेलो कुंदापूर तेरा॥ पोर्तुगीसांनी गोंयां घरल्या उपरांत थंय थावन आयलल्यां लोकांमधें दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत असले प्रयोग उपेगांत आयले जावयेत।

मराठींत अहिं, तहिं — हीं रूपां नांत। एथंऽ, तेथंऽ, कुठंऽ इत्यादी आसात। इथंऽ, तिथंऽ, रूपांय आसात। कोंकणींतलीं अहिं, तहिं रूपां बुद्धाच्या प्रवचनां काळा थावन घोळोन आसोन उपरांतल्या सगळया प्राकृत साहित्यांत उपेगायल्यांत। सेतुबंध कावयांती (७–७१) हींच रुपां आसात। ह्या उदाहरणांनीं कोंकणी मराठी परस प्राचीन

| ಕೊಂಕಣಿ | ಮರಾಠಿ |
|---|---|
| ರಾಮು ಆಯುಲೊ | ರಾಮಾ ಆಲಾ |
| ರಾಮು ಆಯುಲಾ | ರಾಮಾ ಆಲಾ ಆಹೇ |
| ರಾಮು ಆಇಲ್ಲೊ | ರಾಮಾ ಆಲಾ ಹೋತಾ |
| ರಾಮು ಕಾಲಿ ಕಹಿಂ ಆಸೀಲೊ? | ರಾಮಾ ಕಾಲ್ ಕುಠಂಽ ಹೋತಾ? |

ಸಂಸ್ಕೃತಾಂತ್ಲಿಂ ಕಾಳ್‌ಸೂಚಕ್ ಕ್ರಿಯಾವಿಶೇಷಣಾಂ ಇದಾನೀಂ, ತದಾನೀಂ, ಕದಾ ಇತ್ಯಾದಿ, ದಕ್ಷಿಣ್ ಕನ್ನಡ ಜಿಲ್ಲ್ಯಾಂತ್ಲ್ಯಾಂ ಸಾರಸ್ವತ್ ಬ್ರಾಹ್ಮಣಾಂ ಮಧೆಂ ಕ್ರಮ ಪ್ರಕಾರ್ ಎದನಾ = ಎದ್ದನಾ; ತೆದನಾ = ತೆದ್ದನಾ; ಕೆದನಾ = ಕೆದ್ದನಾ — ಹ್ಯಾ ದೋದೋನ್ ರುಪಾಂನಿ ಘೊಳ್ತಾತ್. ಕ್ರಿಸ್ತೀ ಬಾಂವ್ಡ್ಯಾಂ ಮಧೆಂ ಎದವಾಂ = ಎನ್ನಾ; ತೆದವಾಂ = ತೆನ್ನಾ; ಕೆದವಾಂ = ಕೆನ್ನಾ — ಅಶಿಂ ಘೊಳ್ತಾತ್. ಹಿಂಚ್ ರುಪಾಂ ಮರಾಠಿಂತ್ ಏಧವಾಂ = ಏವ್ಹಾಂ; ತೇಧವಾಂ = ತೆವ್ಹಾಂ; ಕೇಧವಾಂ = ಕೆವ್ಹಾಂ – ಅಶಿಂ ಘೊಳ್ತಾತ್.

ಸಂಸ್ಕೃತಾಂತ್ಲಿಂ ಅತ್ರ, ತತ್ರ, ಕುತ್ರ, ಯತ್ರ — ಹಿಂ ಸಾತ್ವೇ ವಿಭಕ್ತಿಂತ್ಲಿಂ ಥಳ್‌ಕ್ರಿಯಾ ವಿಶೇಷಣಾಂ ಕೊಂಕಣಿಂತ್ ಹ್ಯೆ ಪರಿಂ ದೋದೋನ್ ರುಪಾಂನಿ ಘೊಳ್ತಾತ್. ಅಹಿಂ (ಹಇಂ) = ಹಾಂಗಾ; ತಹಿಂ (ಥಇಂ) = ಥಂಯ್; ಕಹಿಂ (ಖಇಂ) = ಖಂಯ್? ಜಹಿಂ = ಜ್ಹಂಯ್ (ಸಂಬಂಧಿ ಕ್ರಿಯಾವಿಶೇಷಣ್) ಆನಿ ಎಥಾಂ (ಹೆತಾಂ) = ಹೆಣೆ (ಹೆವ್ಶಿನ್); ತೆಥಾಂ = ತೆಣೆ (ತೆವ್ಶಿನ್); ಕೆಥಾಂ = ಖಂಯ್ಚಾನ್ (ಕೆವ್ಶಿನ್?). ದಕ್ಷಿಣ್ ಕನ್ನಡಾಂತ್ ಚಾಲೂ ಆಸ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಪೊರ್‌ಣ್ಯಾ ಪದಾಂನಿ ಎಥೆಂ, ತೆಥೆಂ — ಹಿಂ ರುಪಾಂಯ್ ಘೊಳ್ತಾಲಿಂ. ಉದಾ:— ಎಥೆಂ ಎಥೆಂ ಬೈಸರೇ ಮೋರಾ। ಮೋರ್ ಗೇಲೋ ಕುಂದಾಪೂರ್ ತೇರಾ॥ ಪೊರ್ತುಗೀಸಾಂನಿ ಗೊಂಯಾಂ ಧರ್ಲ್ಯಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಥಂಯ್ ಥಾವ್ನ್ ಆಯ್ಲಲ್ಯಾಂ ಲೊಕಾಂಮಧೆಂ ದಕ್ಷಿಣ್ ಕನ್ನಡ ಜಿಲ್ಲ್ಯಾಂತ್ ಅಸಲೆ ಪ್ರಯೋಗ್ ಉಪೇಗಾಂತ್ ಆಯ್ಲೆ ಜಾವ್ಯೆತ್.

ಮರಾಠಿಂತ್ ಅಹಿಂ, ತಹಿಂ — ಹಿಂ ರುಪಾಂ ನಾಂತ್. ಏಥಂಽ, ತೇಥಂಽ, ಕುಠಂಽ ಇತ್ಯಾದಿ ಆಸಾತ್. ಇಥಂಽ, ತಿಥಂಽ ರುಪಾಂಯ್ ಆಸಾತ್. ಕೊಂಕಣಿಂತ್ಲಿಂ ಅಹಿಂ, ತಹಿಂ ರುಪಾಂ ಬುದ್ಧಾಚ್ಯಾ ಪ್ರವಚನಾಂ ಕಾಳಾ ಥಾವ್ನ್ ಘೊಳೊನ್ ಆಸೊನ್ ಉಪ್ರಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಪ್ರಾಕೃತ್ ಸಾಹಿತ್ಯಾಂತ್ ಉಪೇಗಾಯ್ಲ್ಯಾಂತ್. ಸೇತುಬಂಧ ಕಾವ್ಯಾಂತೀ (೭-೭೧) ಹಿಂಚ್ ರುಪಾಂ ಆಸಾತ್. ಹ್ಯಾ ಉದಾಹರಣಾಂನಿ ಕೊಂಕಣಿ

मात्र न्हय, प्राकृताच्या शब्दसंपत्तेंत लेगून मराठी परस ती चड गिरेस्त म्हण सिद्ध जाना ।

(चालू आसा)

(श्री. बस्ति पुंडलीक वेंकटेश शेणाई हांणि बरयिल्ल्या "कोंकनी मत्तु मराठी अिवुगळ तुलनात्मक विमर्शे हागू सारस्वत ब्राह्मणर प्राचीन इतिहास" म्हळ्ळ्या पुस्तकाच्या आधारान)

—आलबन कास्तेलिन.

ಮರಾಠಿ ಪರಸ್ ಪ್ರಾಚೀನ್ ಪಾತ್ರ ನ್ಹಯ್, ಪ್ರಾಕೃತಾಚ್ಯಾ ಶಬ್ದಸಂಪತ್ತಿಂತ್ ಲೆಗೂನ್ ಮರಾಠಿಪರಸ್ ತೀ ಚಡ್ ಗಿರೆಸ್ತ್ ಮ್ಹಣ್ ಸಿದ್ಧ್ ಜಾತಾ.

( ಚಾಲೂ ಆಸಾ )

ಶ್ರೀ ಬಸ್ತಿ ಪುಂಡಲೀಕ ವೆಂಕಟೇಶ ಶೆಣಾಯಿ ಹಾಂಣಿಂ ಬರಯಿಲ್ಲ್ಯಾ "ಕೊಂಕಣಿ ಮತ್ತು ಮರಾಠಿ ಇವುಗಳ ತುಲನಾತ್ಮಕ ವಿಮರ್ಶೆ ಹಾಗೂ ಸಾರಸ್ವತ ಬ್ರಾಹ್ಮಣರ ಪ್ರಾಚೀನ ಇತಿಹಾಸ" ಮ್ಹಳ್ಳ್ಯಾ ಪುಸ್ತಕಾಚಾ ಆಧಾರಾನ್.

—ಆಲ್ಬನ್ ಕಾಸ್ತೆಲಿನ್.

# कोंकणी नाटय परंपरा

(मुंदरिलां)

अुमानाथाल्या "वज्रा कुटकाने" कोंकाणि नाटकांक विशेश मागणि मेळूंक लागलि । लग्न–मुंज्यं समारंभांतु, नांचा मेळु संगीत इत्यादीचे ख्याल–खुशालेचे कार्यक्रम दवरताले, ते आत्तं नाटक जायि म्हणूक लागले । सार्वजनिक गणेशोत्सवांतु, दसरा दिवाळि, कृष्ण-जन्माष्टमि, रामजयंति अुत्सवांतु, नाटकांचे प्रयोग भारी संभ्रमाचेरि जावंचाक लागले । हाका सरू म्हणा अक्सरू म्हणा, ताजाणे येकूनु, नवनवीन नाटकं, नाटककार अुदयाक येवंचाक लागले । अुमानाथालें "चाळेंतुलो चिक्कोलु", "सप्नांतुलो बुवा", अुल्लाळ सुंदरालि "माम्मालि मैना, ही चूकि कोणालि ?, भरत भाग्य", बैंदूर देवरायालि "दोनि होरं, सोयरीके संभ्रम, दुडवा ध्यासु, आप्पुले अथर्वण", -हीं पुरावृया पूर्ते थोडीचि अुल्लेखिल्यांति — अशि येका मागशि येक अव्याहत येवंचाक सुरू जालि । नाटकांतु काम कोरूक निवडलेल्या नटांक कांयि कमि ना आशिलें । बहुतेक जण भट्टां कुलांतुले आशिले । शुद्ध वाणिचे, -शुद्धवाणि नटांक अत्यावश्यक गुणु–स्वरयुक्त लयबद्ध मंत्रांचें पठण केलेले, नाटकांतुले संवाद सहसा शिकूनु काडताले । कायकिणि दत्तामामु आनि रमाकांतु, बैंदूर देवरायु, कल्याणपुर नरहरि, ह्यां शिवाय इतर

# ಕೊಂಕಣಿ ನಾಟ್ಯ ಪರಂಪರಾ

( ಮುಂದರಿಲಾಂ )

ಉಮಾನಾಥಾಲ್ಯಾ "ವಜ್ರಾ ಕುಟುಕಾನೆ" ಕೊಂಕಣಿ ನಾಟಕಾಂಕ ವಿಶೇಷ ಮಾಗಣಿ ಮೆಳೂಕ ಲಾಗಲಿ. ಲಗ್ನ–ಮುಂಜ್ಯಾಂ ಸಮಾರಂಭಾಂತು. ನಾಂಚಾ ಮೇಳು ಸಂಗೀತ ಇತ್ಯಾದಿಚೆ ಖ್ಯಾಲ್–ಖುಶಾಲೆಚೆ ಕಾರ್ಯಕ್ರಮ ದವರತಾಲೆ, ತೆ ಆತ್ತಂ ನಾಟಕ ಜಾಯಿ ಮ್ಹಣೂಕ ಲಾಗಲೆ. ಸಾರ್ವಜನಿಕ ಗಣೆಶೋತ್ಸವಾಂತು, ದಸರಾ ದಿವಾಳಿ, ಕೃಷ್ಣಜನ್ಮಾಷ್ಟಮಿ, ರಾಮಜಯಂತಿ ಉತ್ಸವಾಂತು, ನಾಟಕಾಂಚೆ ಪ್ರಯೋಗ ಭಾರೀ ಸಂಭ್ರಮಾಚೆರಿ ಜಾವಂಚಾಕ ಲಾಗಲೆ. ಹಾಕಾ ಸರು ಮ್ಹಣಾ ಅಕ್ಸರು ಮ್ಹಣಾ, ತಾಜಾಣೆ ಯೆಕೂನು, ನವನವೀನ ನಾಟಕಂ, ನಾಟಕಕಾರ ಉದಯಾಕ ಯೆವಂಚಾಕ ಲಾಗಲೆ. ಉಮಾನಾಥಾಲಿಂ "ಚಾಳೆಂತುಲೊ ಚಿಕ್ಕೊಲು", "ಸಪ್ನಾಂತುಲೊ ಬುವಾ", ಉಲ್ಲಾಳ ಸುಂದರಾಲಿಂ "ಮಾಮ್ಮಾಲಿ ಮೈನಾ. ಹೀ ಚೂಕಿ ಕೋಣಾಲಿ ?, ಭರತ ಭಾಗ್ಯ". ಬೈಂದೂರ ದೇವರಾಯಾಲಿಂ "ದೋನಿ ಹೊರಂ, ಸೊಯರಿಕೆ ಸಂಭ್ರಮು, ದುಡ್ವಾ ಧ್ಯಾಸು, ಆಪ್ಪುಲೆ ಅಥರ್ವಣ"—ಹಿಂ ಪುರಾವ್ಯಾ ಪೂರ್ತೆಂ ಥೊಡಿಂಚಿ ಉಲ್ಲೆಖಿಲ್ಯಾಂತಿ—ಅಶಿ ಯೆಕಾ ಮಾಗಶಿ ಯೆಕ ಅವ್ಯಾಹತ ಯೆವ್ಹಂಚಾಕ ಸುರು ಜಾಲಿಂ. ನಾಟಕಾಂತು ಕಾಮು ಕೊರುಕ ನಿವಡ್ಲೆಲ್ಯಾ ನಟಾಂಕ ಕಾಂಯಿ ಕಮಿ ನಾ ಆಶಿಲೆಂ. ಬಹುತೆಕ ಜಣ ಭಟ್ಟಾಂ ಕುಲಾಂತುಲೆ ಆಶಿಲೆ. ಶುದ್ಧ್ ವಾಣಿಚೆ, - ಶುದ್ಧ್ ವಾಣಿ ನಟಾಂಕ ಅತ್ಯಾವಶ್ಯಕ ಗುಣು-ಸ್ವರಯುಕ್ತ ಲಯಬದ್ಧ ಮಂತ್ರಾಂಚೆಂ ಪಠಣ ಕೆಲೆಲಿ, ನಾಟಕಾಂತುಲೆ ಸಂವಾದ ಸಹಸಾ ಶಿಕೂನು ಕಾಡತಾಲೆ.

ग्रहस्थ वर्गाचे पुतळी वेणु, हेम्माड प्रभाकरू, बेनेगल श्रीधरू, गोळीकेरे सुंदर गोपाळु, गणेश त्राशि आशिले। हांचे पैकि रमाकांतु, देवरायु, वेणु आनि सुंदर गोपाळु हे अुत्तम प्रतीचे संगीतकारयि आशिले। अशि जावनु संगीत नाटकांचेचि प्रयोग चड आनि चड आकर्षक जाताले। तलगेरि वेंकटु हो सागर शिवमोग्गेचो, कन्नड नाट्यपटु, कोंकणिचो परिपाठु म्हणशि नात्तिलो, "सरस्वती अमैचुआर्स" संस्थेक मेळलो। आपणाक अवसरू मेळना म्हणु, तागेल्याचि जोडाचे चौगंपांच जणांक बांदूनु घेवनु, कोंकणि नाटकं कोरूकचि नज्ज म्हणु मस्त इतलो तो ह्रकंदळु करतालो। तरी बैंदूर देवरायाने, ताका फुसलाउनु आपणाल्यां "सोयरिके संभ्रम" नाटकाचो मुख्य नायकु कोरनु ताका शिकोउनु तयार केलो। ह्याचि प्रमाणे, देवरायाने कोंकणीचो वहिवाटु नातिल्या अनेक तरूणांक, धैर्याने आपणाल्या नाटकांतु घेवनु, विशेश परिश्रमु घेवनु, तांकां कोंकणि संवाद आनि ते अुलोवचि प्रभावपूर्ण धाटि, शिकोउनु लरबेज केले। हानि, थोडे काळानि दिग्दर्शक म्हणु प्रतिष्ठा कोरनु घेतलि।

१९४२ इसवींतु, कोंकणीचे परम मोगि नाट्यकला मंडलाचि स्थापना जालि। तानि बारा वरसांचा कालावधींतु, उल्लाळ सुंदरालि ६ नाटक, बैंदूर देवराय अय्यगळालि सात, मुदूर प्रभाकरालि सात, आनि इतर चारि पांच, अशि पंचवीस नाटकांचे सुमार चाळीस प्रयोग केले। साहित्य समिति (स्थापना १९४४) वतीने देवरायालें "प्रीति खातिर" प्रभाकरालें "दत्तजन्म" नाट्यकला मंडलाने खेळलेलि छापूनु प्रकट जालिं तीं इ. स. १९४५ तु। इ. स. १९५४ तु मंडळाचो उद्योगु संपुष्टांतु आयलो। इ. स. १९४४ तु, सिनेमा सृष्टींतु नांवांक आयिलो श्री. पांडुरंग तलगेरि, सरस्वती अमेचुअर्सांक मेळलो आनि ताने संस्था अक्षरश: आक्रमण केलि, तागेल्या नाटकां शिवाय दुसऱ्यांक रीगि ना जालि। बरेचि लेखकांनि नटांनि संस्थेचि तळ्ळीचि सोडनु घालि; वरले ते तलगेरिकार आनि तांगेले वर्गेचे। सात आट वरसांतु सरस्वती अमेचुअर्सांनि, पांडूगेलिं तीनि मराठि आनि येक कोंकणि अशि चारि नाटकं

ಕಾಯಕಿಣಿ ದತ್ತಾತ್ರಮಾಮು ಆನಿ ರಮಾಕಾಂತು, ಬೈಂದೂರ ದೇವರಾಯು, ಕಲ್ಯಾಣಪುರ ನರಹರಿ, ಹ್ಯಾ ಶಿವಾಯ ಇತರ ಗ್ರಹಸ್ಥ ವರ್ಗಾಚೆ ಪುತಳೀ ವೇಣು, ಹೆಮ್ಮಾಡ ಪ್ರಭಾಕರು, ಬೆನೆಗಲ ಶ್ರೀಧರು, ಗೋಳೀಕೆರೆ ಸುಂದರ ಗೋಪಾಳು, ಗಣೇಶ ತ್ರಾಶಿ ಆಶಿಲೆ. ಹಾಂಚೆ ಪೈಕಿ ರಮಾಕಾಂತು, ದೇವರಾಯು, ವೇಣು ಆನಿ ಸುಂದರ ಗೋಪಾಳು ಹೆ ಉತ್ತಮ ಪ್ರತೀಚೆ ಸಂಗೀತ ಕಾರಯಿ ಆಶಿಲೆ. ಆಶಿ ಜಾವ್ನು ಸಂಗೀತ ನಾಟಕಾಂಚೆಚಿ ಪ್ರಯೋಗ ಚಡ ಆನಿ ಚಡ ಆಕರ್ಷಕ ಜಾತಾಲೆ. ತಲಗೇರಿ ವೆಂಕಟು ಹೊ ಸಾಗರ ಶಿವಮೊಗ್ಗೆಚೊ, ಕನ್ನಡ ನಾಟ್ಯಪಟು, ಕೊಂಕಣೆಚೊ ಪರಿಪಾಟು ಮ್ಹಣಶಿ ನಾತ್ತಿಲೊ, "ಸರಸ್ವತೀ ಆಮೇಚುಅರ್ಸ" ಸಂಸ್ಥೆಕ ಮೆಳಲೊ. ಆಪಣಾಕ ಅವಸರು ಮೆಳನಾ ಮ್ಹಣು, ತಾಗೆಲ್ಯಾಚಿ ಜೊಡಾಚೆ ಚೌಗಪಾಂಚ ಜಣಾಂಕ ಬಾಂದೂನು ಘೆವ್ನು, ಕೊಂಕಣಿ ನಾಟಕಂ ಕೊರುಕಚಿ ನಜ್ಜ ಮ್ಹಣು ಮಸ್ತ ಇತಲೊ ತೊ ಹರಕಂದಳು ಕರತಾಲೊ. ತರೀ ಬೈಂದೂರ ದೇವರಾಯಾನೆ, ತಾಕಾ ಫುಸಲಾವ್ನು ಆಪಣಾಲ್ಯಾಂ "ಸೊಯ್ರಿಕೆ ಸಂಭ್ರಮ" ನಾಟಕಾಚೊ ಮುಖ್ಯ ನಾಯಕು ಕೋರ್ನು ತಾಕಾ ಶಿಕೊವ್ನು ತಯಾರ ಕೆಲೊ. ಹ್ಯಾಚಿ ಪ್ರಮಾಣೆ, ದೇವರಾಯಾನೆ ಕೊಂಕಣೀಚೊ ವಹಿವಾಟು ನಾತಿಲ್ಯಾ ಅನೇಕ ತರುಣಾಂಕ, ಧೈರ್ಯಾನೆ ಆಪಣಾಲ್ಯಾ ನಾಟಕಾಂತು ಘೆಉನು, ವಿಶೇಷ ಪರಿಶ್ರಮು ಘೆಉನು, ತಾಂಕಾಂ ಕೊಂಕಣಿ ಸಂವಾದ ಆನಿ ತೆ ಉಲೊಉಚಿ ಪ್ರಭಾವಪೂರ್ಣ ಧಾಟಿ ಶಿಕೊವ್ನು ತರಬೇಜ ಕೆಲೆ. ಹಾನಿ, ಥೊಡೆ ಕಾಳಾನಿ ದಿಗ್ದರ್ಶಕ ಮ್ಹಣು ಪ್ರತಿಷ್ಠಾ ಕೋರ್ನು ಘೆತಲಿ.

೧೯೪೨ ಇಸ್ವೆಂತು ಕೊಂಕಣೀಚೆ ಪರಮ್ ಮೋಗಿ ನಾಟ್ಯ ಕಲಾ ಮಂಡಲಾಚಿ ಸ್ಥಾಪನಾ ಜಾಲಿ. ತಾನಿ ಬಾರಾ ವರ್ಸಾಂಚಾ ಕಾಲಾವಧಿಂತು, ಉಲ್ಲಾಳ ಸುಂದರಾಂಲಿ ೬ ನಾಟಕಂ, ಬೈಂದೂರ ದೇವರಾಯ ಅಯ್ಯಗಳಾಲಿಂ ೭, ಮುದೂರ ಪ್ರಭಾಕರಾಲಿಂ ೭, ಆನಿ ಇತರ ಚ್ಯಾರಿ ಪಾಂಚ, ಅಶಿಂ ಪಂಚ್ವೀಸ ನಾಟಕಾಂಚೆ ಸುಮಾರ ಚಾಳೀಸ ಪ್ರಯೋಗ ಕೆಲೆ. ಸಾಹಿತ್ಯ ಸಮಿತಿ (ಸ್ಥಾಪನಾ ೧೯೪೪) ವತಿನೆ ದೇವರಾಯಾಲೆಂ "ಪ್ರೀತಿ ಖಾತಿರ" ಪ್ರಭಾಕರಾಲೆಂ "ದತ್ತಜನ್ಮ" ನಾಟ್ಯ ಕಲಾ ಮಂಡಲಾನೆ ಖೆಳ್ಳೆಲಿಂ ಛಾಪೂನು ಪ್ರಕಟ ಜಾಲಿಂ ತೀಂ ಇ. ಸ. ೧೯೪೫ ಇಸ್ವೆಂತು. ಇ. ಸ. ೧೯೫೪-ತು ಮಂಡಳಾಚೊ ಉದ್ಯೋಗು ಸಂಪುಷ್ಟಾಂತು ಆಯಲೊ. ಇ. ಸ. ೧೯೪೪-ತು ಸಿನೆಮಾ ಸೃಷ್ಟಿಂತು ನಾಂವಾಂಕ ಆಯಿಲೊ ಶ್ರೀ ಪಾಂಡುರಂಗ ತಲಗೇರಿ, ಸರಸ್ವತೀ ಅಮೆಚು ಅರ್ಸಾಂಕ್ ಮೆಳಲೊ ಆನಿ ತಾನೆ ಸಂಸ್ಥಾ ಅಕ್ಷರಶ: ಆಕ್ರಮಣ ಕೆಲಿ, ತಾಗೆಲ್ಯಾ ನಾಟಕಾಂ ಶಿವಾಯ್ ದುಸ್ರ್ಯಾಕ್ ರೀಗಿ ನಾ ಜಾಲಿ. ಬರೇಚಿ ಲೆಖಕಾಂನಿ, ನಟಾಂನಿ, ಸಂಸ್ಥೆಚಿ, ತಳ್ಳೀಚಿ ಸೊಡ್ನು ಘಾಲಿ; ವರಲೆ ತೆ ತಲಗೆರಿಕಾರ ಆನಿ ತಾಂಗೆಲೆ ವರ್ಗೆಚೆ. ಸಾತ ಆಟ ವರ್ಸಾಂತು ಸರಸ್ವತೀ ಅಮೆಚುಅರ್ಸಾಂನಿ ಪಾಂಡೂಗೆಲಿಂ ತೀನಿ ಮರಾಠಿ ಆನಿ ಯೆಕ ಕೊಂಕಣಿ ಆಶಿ ಚ್ಯಾರಿ ನಾಟಕಂ

खेळलिं। नाटकं साहित्यिक द्रष्ट्या कशी आसोति, अभिनयु आनि प्रस्तुतीकरणांतु तांचो हातु धरतलो ना आशिलो। अत्यंत दुःखद संगति ही की, संस्था स्थापित (१९३०) ज़ायत धोरनु, इ. स. १९५५ तु रौप्य महोत्सवु भारी विज्रंभणेरि कोरका म्हणु पूंजि वोट्टु करीत आयिले, आनि त्याचि वरस संस्था निद्देलि ती निद्देलीचि। तलगेरि पांडूक कर्क रोगाचि बळ्ळीक लागून तो अकालि स्वर्गस्थु जालो। सै! अेकोपि नाटककारू काल-वश जालेल्या निमित्तिं, आनि तानि बाकि नाटककारांकडे वैमस्स कोरनु घेतिल्या निमित्तिं, सरस्वती अमेचुअर्स नामशेष जाले। त्याचि प्रमाणे आनि त्याचि सुमाराक, कोंकणीचा कोळखांब्यारि राबयिलें नाट्यकला मंडल, सक्रिय काम करतले ना जावनु, थंड पडलें। तरी कोंकणियांगेलें पूर्वपुण्याचि न्होणकाज (न्हणकाई) गोपि (के. जि.) कामत आनि आर. डि. कामत हे नट-नाटककार-दिग्दर्शक क्षितिजाचेरि अुदेले, आनि कोंकणि नाटकांक येक नवें चेतन मेळलें। गोपीलिं "बिलायति व्हरेतु" "ग्रहिणी ग्रहं अुच्यते" आनि आर. डि. गेलिं "पडलेलिं फुल्लं", "मातृदेवो भव", "भर्तृहरि" भारी लोकप्रिय ज़ालिं।

थंथंयि थंथयि, नाटकं जायत वरलिं। प्रति येकळो लेखकु आपणालोचि येकु कंपु बांदूनु घेवनु नाटकं खेळूक लागलो। बहुतेक नाटकं विना मूल्य खंयचायि संस्थेचा वार्षिकोत्सवांतु नावे देवळांचा ज़ीर्णोद्धारा पासावत, तिकीटं दवरनु जातालिं। तिकीटं दवरनु केलेल्या नाटकांक सुद्धां सभाग्रह भोरनु लोकांक तोंड सान कोरनु घेवनु वापस वचचें पडतालें। तावळि, चुंगडी चुंगडी भांगराचि आभरणं मोडोवनु, येक घणचि नग कशिकी करतातिं, तशि, सर्व पाड पडलेल्या संस्थांचांक कोंकणि साहित्य समितिचा छत्रांतु घेतिल्या पक्षाक, ह्ये संघटित संस्थे मुखांतरे, कोंकणीचा प्रसाराक विकासाक अनुकूल जातलें अशि विचारू, बैंदूर देवरायाल्या मनांतु अुदेलो-साहित्य समिति जालि तरी तावळि सुप्तावस्थेतूंच आशिलि। तरी, देवरायाने वैरिचा वैरि, गेलेगेलेल्या कडे सभांतु परिषदांतु तिजे नांवाचों अुल्लेखु कोरनु ती जाग्रतचि

ಖೆಳ್ಳಿಂ. ನಾಟಕಂ ಸಾಹಿತ್ಯಿಕ ದೃಷ್ಟ್ಯಾ ಕಶೀ ಆಸೊತಿ. ಅಭಿನಯು ಆನಿ ಪ್ರಸ್ತುತೀಕರಣಾಂತು ತಾಂಚೊ ಹಾತು ಧರತಲೊ ನಾ ಆಶಿಲೊ. ಅತ್ಯಂತ ದುಃಖಚಿ ಸಂಗತಿ ಹೀ ಕೀ, ಸಂಸ್ಥಾ ಸ್ಥಾಪಿತ (೧೯೩೦) ಜಾಯ್ತ ಧೊರ್‍ನು, ಇ. ಸ. ೧೯೫೫-ತು ರೌಪ್ಯ ಮಹೋತ್ಸವು ಭಾರೀ ವಿಜ್ರಂಭಣೆರಿ ಕೋರಕಾ ಮ್ಹಣು ಪೂಂಜಿ ಪೊಟ್ಟು ಕರೀತ ಆಯಿಲೆ, ಆನಿ ತ್ಯಾಚಿ ವರಸ ಸಂಸ್ಥಾ ನಿದ್ದೆಲಿ ತೀ ನಿದ್ದೆಲೀಚಿ. ತಲಗೇರಿ ಪಾಂಡೂಕ ಕರ್ಕರೋಗಾಚಿ ಬಳ್ಳೀಕ ಲಾಗೂನು ತೊ ಅಕಾಲಿ ಸ್ವರ್ಗಸ್ಥು ಜಾಲೊ. ಸೈ! ಏಕೊಪಿ ನಾಟಕಕಾರು ಕಾಲ-ವಶ ಜಾಲ್ಲೆಲ್ಯಾ ನಿಮಿತ್ತಿಂ, ಆನಿ ತಾನಿ ಬಾಕಿ ನಾಟಕಕಾರಾಂಕಡೆ ವೈಮಸ್ಸ ಕೋರ್‍ನು ಘೆತಿಲ್ಯಾ ನಿಮಿತ್ತಿಂ "ಸರಸ್ವತೀ ಅಮೆಚುಅರ್ಸ" ನಾಮಶೇಷ ಜಾಲೆ. ತ್ಯಾಚಿ ಪ್ರಮಾಣೆ ಆನಿ ತ್ಯಾಚಿ ಸುಮಾರಾಕ, ಕೊಂಕಣೀಚಾ ಕೊಳಖಾಂಬ್ಯಾರಿ ರಾಬಯಿಲೆಂ ನಾಟ್ಯಕಲಾ ಮಂಡಲ, ಸಕ್ರಿಯ ಕಾಮು ಕರ್ತಲೆ ನಾ ಜಾವ್ನು, ಥಂಡ ಪಡಲೆಂ. ತರೀ ಕೊಂಕಣೀಯಾಂ ಗೆಲೆಂ ಪೂರ್ವಪುಣ್ಯೊಚಿ ನ್ಹೊಣಕಾಜ (ನ್ಹಣ್ಕಾಯಿ) ಗೋಪಿ (ಕೆ. ಜಿ.) ಕಾಮತ ಆನಿ ಆರ. ಡಿ. ಕಾಮತ ಹೆ ನಟ-ನಾಟಕಕಾರ -ದಿಗ್ದರ್ಶಕ ಕ್ಷಿತಿಜಾಚೆರಿ ಉದೆಲೆ, ಆನಿ ಕೊಂಕಣಿ ನಾಟಕಾಂಕ ಯೆಕ ನವೆಂ ಚೇತನ ಮೆಳಲೆಂ. ಗೋಪೀಲಿಂ "ವಿಲಾಯತಿ ವ್ಹರೆತು", "ಗೃಹಿಣೀ ಗೃಹಂ ಉಚ್ಯತೆ" ಆನಿ ಆರ್. ಡಿ.ಗೆಲಿಂ "ಪಡ್ಲೆಲಿಂ ಫುಲ್ಲಂ". "ಮಾತೃದೇವೊ ಭವ". "ಭರ್ತೃಹರಿ" ಭಾರೀ ಲೋಕಪ್ರಿಯ ಜಾಲಿಂ

ಥಂಥಂಯಿ ಥಂಥಂಯಿ. ನಾಟಕಂ ಜಾಯತ ವರ್‍ಲಿಂ. ಪ್ರತಿ ಯೆಕ್ಳೊ ಲೆಖಕು ಆಪ್ಣಾಲೊಚಿ ಯೆಕು ಕಂಪು ಬಾಂದೂನು ಘೆವ್ನು ನಾಟಕ ಖೆಳೂಕ ಲಾಗ್ಲೊ. ಬಹುತೇಕ ನಾಟಕಂ ವಿನಾ ಮೂಲ್ಯ ಖಂಯ್ಚಾಯಿ ಸಂಸ್ಥೆಚಾ ವಾರ್ಷಿಕೋತ್ಸವಾಂತು ನಾವೇ ದೆವಳಾಂಚಾ ಜೀರ್ಣೋದ್ಧಾರಾ ಪಾಸಾವತ, ತಿಕೀಟಂ ದವರ್‍ನು ಜಾತಾಲಿಂ. ತಿಕೀಟಂ ದವರ್‍ನು ಕೆಲೆಲ್ಯಾ ನಾಟಕಾಂಕ ಸುದ್ಧಾಂ ಸಭಾಗೃಹ ಭೊರ್‍ನು ಲೊಕಾಂಕ ತೊಂಡ ಸಾನ ಕೋರ್‍ನು ಘೇವ್ನು ವಾಪಸ ವಚ್ಚೆಂ ಪಡತಾಲೆಂ. ತಾವಳಿ, ಚುಂಗಡಿ ಚುಂಗಡೀ ಭಾಂಗರಾಚಿಂ ಆಭರಣಂ ಮೊಡೊವ್ನು, ಯೆಕ ಘಣಚಿ ನಗ ಕಶಿಕೀ ಕರತಾತಿ, ತಶಿ, ಸರ್ವ ಪಾಡ ಪಡಲೆಲ್ಯಾ ಸಂಸ್ಥಾಂಚ್ಯಾಂಕ ಕೊಂಕಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯ ಸಮಿತಿಚ್ಯಾ ಛತ್ರಾಂತು ಘೆತಿಲ್ಯಾ ಪಕ್ಷಾಕ, ಹ್ಯಾ ಸಂಘಟಿತ ಸಂಸ್ಥೆ ಮುಖಾಂತರೆ, ಕೊಂಕಣೀಚ್ಯಾ ಪ್ರಸಾರಾಕ ವಿಕಾಸಾಕ ಅನುಕೂಲ ಜಾತಲೆಂ ಅಶಿ ವಿಚಾರು, ಬೈಂದೂರ ದೇವರಾಯಾಲ್ಯಾ ಮನಾಂತು ಉದೆಲೊ—ಸಾಹಿತ್ಯ ಸಮಿತಿ ಜಾಲಿ ತರೀ, ತಾವಳಿ ಸುಪ್ತಾವಸ್ಥೆಂತೂಚಿ ಆಶಿಲಿ. ತರೀ ದೇವರಾಯಾನೆ ವೈರಿಚ್ಯಾ ವೈರಿ, ಗೆಲೆಗೆಲೆಲ್ಯಾಕಡೆ ಸಭಾಂತು ಪರಿಷದಾಂತು ತಿಜೇ ನಾಂವಾಂಚೊ ಉಲ್ಲೇಖು ಕೋರ್‍ನು ತೀ ಜಾಗೃತಚಿ ದವರ್‍ಲ್ಲಿ. ದೇವರಾಯಾನೆ, ಲೇಖಕು ಆನಿ ತಾಗೆಲೆ

दवरलेलि । देवरायाने, लेखकु आनि तागेले परमसखा. मुदूर प्रभाकरा मुखारि हो विचारु मांडोउंचाक फुरसति ना, तो शिवराय आलोचना म्हणालो । ते दोगांयि नाट्यकला मंडलाचे, आनि, दोगांलींयि नाटकं साहित्य समितीने छापूनु प्रकट केलेलिं । इ. स. १९५७ तु साहित्य समितिक संजीवनि दींवनु स्थिर केलि । इ. स. १९५८ तु पांच नाटकांचो येकु उपक्रमु केलो । पैल्या दिसाचें नाटक तलगेरि पांडूलें "वचनमुक्त" हें दवरलें । ह्या नाटकांनि, अगदीं व्यवसायीं पातलीं–चेरि जालिं अशि, लोकांगेलि अनपेक्षित आनि तोंड भोरनु प्रशंसा घेतलि । महोत्सवांतु दोन्शियेक व्यवस्थापक–कलाकारांक अेक मनाने वावरतना चोउनु सभ्यतेने आनि अत्यंत मार्मिकतेने नाटकं पळयितल्या कोंकणि प्रेक्षकांक देकून, केळेवाडि, अमरहिंद मंडल, रंगमंदिर, शिवाजि मंदिर, ह्या नाट्यग्रहांचे कोंकणेतर जनांनि आश्चर्याने तोंडांतु बोट्टं घालिं ; त्या सरशी आमगेल्या चौगपांच चांग नटांकयि फुसलाउनु व्हेले । आसो ।

हो महोत्सवु, व्रतशें वरस वरसाक लागूनु आयलो । इकरा वरसं भारी विज्रंभणेरि जालो । मागीरि मात्र इ. स. १९६९ तु, तरनें रगत जायि म्हणु, थोडे पुंदर-पोटि चोरांक कार्यकारी मंडलांतु रिगोवनु घेतले ; तानि समितिक मस्त अितल्या लुकसानेंतु घालें । तींनि वरसं महोत्सवांतु खंड पाडयलें, आनि समिति मोडनु दुसऱ्या येका जातिवादि संस्थेचा विभागांतु विलीन कोरनु, विलेवाट लावंचि परिस्थिति घडोउंचाक पळयलें । येकायेकं चि ही जातिवादि संस्था आमचे विषय उदकांतु हुमेउंचाक लागलि, हें वैरि उल्लेखिल्या मूल संस्थापकांगेल्या लक्षाक येवनु. ताणि आपणालें अुतर वय आनि देहाचि दुर्बलता दुर्लक्षूनु, तींनि वरसं कुडगूत घेवनु पडलेल्या संस्थेंतु, पुनः चैतन्य भरलें । परंतु, ते दोग जणं म्हांतारे, हस्तेचेरि येक अंकुशशें मात्र जावनु उरल्याति ; आरतां लगि हस्तेक तें अंकुश कांयि लागना जाल्यां । मराठीने अर्थु सांगिल्या अुपरांतेंचि कोंकणिचो बोधु ज्यांक जाता, ते महोत्सवाक नाटकं वेंचूनु काडूक लागल्याति । तानि अुघड अुघड अपप्रचारु सुरु केला की पोरनि नाटकं आधुनिक

ಪರಮಸಖಾ, ಮುದೂರ ಪ್ರಭಾಕರಾ ಮುಖಾರಿ ಹೊ ವಿಚಾರು ಮಾಂಡೊಂವ್ಚಾಕ ಫುರ್ಸತಿ ನಾ, ತೊ ಶಿವರಾಯ ಆಲೊಚನಾ ಮ್ಹಣಾಲೊ। ತೆ ದೋಗಂಯಿ ನಾಟ್ಯಕಲಾ ಮಂಡಲಾಚೆ, ಆನಿ, ದೊಗಾಲೀಂಯಿ ನಾಟಕಂ ಸಾಹಿತ್ಯ ಸಮಿತಿನೆ ಛಾಪೂನು ಪ್ರಕಟ ಕೆಲೆಲಿಂ. ಇ. ಸ. ೧೯೫೭-ತು ಸಾಹಿತ್ಯ ಸಮಿತಿಕ ಸಂಜೀವನಿ ದೀವ್ನು ಸ್ಥಿರ ಕೆಲಿ. ಇ. ಸ. ೧೯೫೮-ತು ಪಾಂಚ ನಾಟಕಾಂಚೊ ಯೆಕು ಉಪಕ್ರಮು ಕೆಲೊ. ಪೈಲ್ಯಾ ದಿಸಾಚೆಂ ನಾಟಕ ತಲಗೇರಿ ಪಾಂಡೂಲೆಂ "ವಚನ ಮುಕ್ತ" ಹೆಂ ದವರ್ಲೆಂ. ಹ್ಯಾ ನಾಟಕಾಂನಿ, ಅಗದಿ ವ್ಯವಸಾಯಿ ಪಾತಲೀಚೆರಿ ಜಾಲಿಂ, ಅಶಿ, ಲೊಕಾಂಗೇಲಿ ಅನಪೇಕ್ಷಿತ ಆನಿ ತೊಂಡಭೋರ್ನು ಪ್ರಶಂಸಾ ಘೆತ್ಲಿ. ಮಹೋತ್ಸವಾಂತು ದೊನ್ಶಿಂಯೇಕ ವ್ಯವಸ್ಥಾಪಕ—ಕಲಾಕಾರಾಂಕ ಏಕಮನಾನೆ ವಾವುರ್ತನಾ ಚೋವ್ನು ಸಭ್ಯತೆನೆ ಆನಿ ಅತ್ಯಂತ ಮಾರ್ಮಿಕತೆನೆ ನಾಟಕಂ ಪಳಯ್ತಲ್ಯಾ ಕೊಂಕಣಿ ಪ್ರೇಕ್ಷಕಾಂಕ ದೆಕೂನು, ಕೆಳೆವಾಡಿ, ಅಮರಹಿಂದ ಮಂಡಲ, ರಂಗಮಂದಿರ, ಶಿವಾಜಿ ಮಂದಿರ, ಹ್ಯಾ ನಾಟ್ಯಗೃಹಾಂಚೆ ಕೊಂಕಣೇತರ ಜನಾಂನಿ ಆಶ್ಚರ್ಯಾನೆ ತೊಂಡಾಂತು ಬೊಟ್ಟಂ ಘಾಲಿಂ: ತ್ಯಾ ಸರ್ಶೀ ಆಮಗೆಲ್ಯಾ ಚೌಗ ಪಾಂಚ ಚಾಂಗ ನಟಾಂಕಯಿ ಫುಸಲಾವ್ನು ವ್ಹೆಲೆ. ಆಸೊ.

ಹೊ ಮಹೋತ್ಸವು, ವ್ರತಶೆಂ ವರಸವರಸಾಕ ಲಾಗೂನು ಆಯಲೊ: ಇಕ್ರಾ ವರ್ಸಂ ಭಾರೀ ವಿಜೃಂಭಣೆರಿ ಜಾಲೊ. ಮಾಗೀರಿ ಮಾತ್ರ ಇ. ಸ. ೧೯೬೯-ತು ತರ್ನೆಂ ರಗತ ಜಾಯಿ ಮ್ಹಣು, ಥೊಡೆ ಪುಂಡರಪೋಟಿ ಪೋರಾಂಕ ಕಾರ್ಯಕಾರಿ ಮಂಡಲಾಂತು ರಿಗೊವ್ನು ಘೆತಲೆ: ತಾನಿ ಸಮಿತಿಕ ಮಸ್ತ ಇತಲ್ಯಾ ಲುಕ್ಸಾನೆಂತು ಘಾಲೆಂ. ತೀನಿ ವರ್ಸಂ ಮಹೋತ್ಸವಾಂತು ಖಂಡ ಪಾಡಯ್ಲೆಂ, ಆನಿ ಸಮಿತಿ ಮೋಡ್ನು ದುಸ್ರ್ಯಾ ಯೆಕಾ ಜಾತಿವಾದಿ ಸಂಸ್ಥೆಚಾ ವಿಭಾಗಾಂತು ವಿಲೀನ ಕೋರ್ನು ವಿಲೆವಾಟ ಲಾವಂಚಿ ಪರಿಸ್ಥಿತಿ ಘಡೊಂವ್ಚಾಕ ಪಳಯ್ಲೆಂ. ಯೆಕಾಯೆಕೀಂಚಿ ಹೀ ಜಾತಿವಾದಿ ಸಂಸ್ಥಾ ಆಮ್ಚೆ ವಿಷಯ ಉದಕಾಂತು ಹುಮೆಂವ್ಚಾಕ ಲಾಗಲಿ. ಹೆಂ ವೈರಿ ಉಲ್ಲೆಖಿಲ್ಯಾ ಮೂಲ್ ಸಂಸ್ಥಾಪಕಾಂಗೆಲ್ಯಾ ಲಕ್ಷಾಕ ಯೆವನು. ತಾಣೆ ಆಪಣಾಲೆಂ ಉತರ ವಯ್ ಆನಿ ದೇಹಾಚಿ ದುರ್ಬಲತಾ ದುರ್ಲಕ್ಷುನು ತೀನಿ ವರ್ಸಂ ಕುಡಗೂತ ಘೆವ್ನು ಪಡ್ಲೆಲ್ಯಾ ಸಂಸ್ಥೆಂತು, ಪುನಃ ಚೈತನ್ಯ ಭರ್ಲೆಂ. ಪರಂತು, ತೆ ದೋಗ ಜಣಂ ಮ್ಹಾಂತಾರೆ, ಹಸ್ತಿಚೆರಿ ಯೆಕ ಅಂಕುಶಶೆಂ ಮಾತ್ರ ಜಾವ್ನು ಉರಲ್ಯಾತಿ; ಆರತಾಂ ಲಾಗಿ ಹಸ್ತಿಕ ತೆಂ ಅಂಕುಶ ಕಾಂಯಿ ಲಾಗನಾ ಜಾಲ್ಯಾಂ. ಮರಾಠಿನೆ ಅರ್ಥು ಸಾಂಗಿಲ್ಯಾ ಉಪರಾಂತೆಂಚಿ ಕೊಂಕಣಿಚೊ ಬೋಧು ಜ್ಯಾಂಕ ಜಾತಾ, ತೆ ಮಹೋತ್ಸವಾಕ ನಾಟಕಂ ವೆಂಚೂನು ಕಾಡೂಕ ಲಾಗಲ್ಯಾತಿ. ತಾನಿ ಉಘಡಉಘಡ ಅಪಪ್ರಚಾರು ಸುರು ಕೆಲಾ ಕೀ ಪೋರ್ನಿಂ ನಾಟಕಂ ಅಧುನಿಕ

रंगमंचाक शोभनाति। पोरनि कोंकणि आतांचांगेल्या मात्यावैल्याने वत्ता। नवि नव्या पद्धतेचिं बोरोवंचिं तांकां भाल ना, हें ते उलयिनाति। ह्या अडचणेक तांकां येकूचि निर्वाहु दिसता: मराट्यानि लोणच्याक घालनु साऱ्या फोंडाऱ्याचेरि उडयिलिं नाटकं हाडनु, आपणागेल्या चालु कोंकणींतु ताजें भाषांतर कोरनु "कोंकणि" नाट्य महोत्सवु कोरुक लागल्याति। ह्या संदर्भांतु रचयिलि येकि कविता ह्ये पत्रिकेंतु हेरेकडे दिल्या।

असल्या दुर्विलासाचा परिस्थितेंतु, कोंकणीयांगेल्या दोळयांतु अंजन पडो म्हणु माय कोंकणीचा पाय्यांरि कपाल घेत हो सुदीर्घ लेखु पुरो करतां। ह्या लेखांतु कोणालेंयि उणेपण अुलोवचो अुद्देशु ना, थोडियो घटनो, थोडो इतिहासु, जो सद्याक हयात आशिल्या थोडे लोकांक मात्र गोत्तु, जो अत्तं सांगने तरी कायमचोचि विनष्ट जावंचाक फाव आस, ताजे सत्य वृत्तातं सगळयांक कळो, कोंकणि भाषेचा विकासाक नवि दिशा मेळो, हो येकूवि भारी कळकळो अुचंबळेवनु येता।

—बैंदूर देवराय अय्यगळ.

ರಂಗಮಂಚಾಕ ಶೋಭನಾತಿ. ಪೊರ್ನಿ ಕೊಂಕಣಿ ಆತಾಂಚಾಂಗೆಲ್ಯಾ ಮಾತ್ಯಾವೆಲ್ಯಾನೆ ವತ್ತಾ. ನವಿಂ, ನವ್ಯಾ ಪದ್ಧತೆಚಿಂ ಬೊರೊವಂಚಿಂ ತಾಂಕಾಂ ಭಾಲ ನಾ ಹೆಂ ತೆ ಉಲಯಿನಾತಿ. ಹ್ಯಾ ಅಡಚಣೆಕ ತಾಂಕಾಂ ಯೆಕೂಚಿ ನಿರ್ವಾಹು ದಿಸತಾ: ಮರಾಠ್ಯಾಂನಿ ಲೋಣಚ್ಯಾಕ ಘಾಲನು ಸಾರ್‍ಯಾ ಫೊಂಡಾರ್‍ಯಾಚೆರಿ ಉಡಯಿಲಿಂ ನಾಟಕಂ ಹಾಡ್ನು, ಆಪಣಾಗೆಲ್ಯಾ ಚಾಲು ಕೊಂಕಣಿಂತು ತಾಜೆಂ ಭಾಷಾಂತರ ಕೋರ್ನು "ಕೊಂಕಣಿ" ನಾಟ್ಯ ಮಹೋತ್ಸವು ಕೊರುಕ ಲಾಗಲ್ಯಾತಿ. ಹ್ಯಾ ಸಂದರ್ಭಾಂತು ರಚಯಿಲಿ ಯೆಕಿ ಕವಿತಾ ಹ್ಯೆ ಪತ್ರಿಕೆಂತು ಹೆರೆಕಡೆ ದಿಲ್ಯಾ.

ಆಸಲ್ಯಾ ದುರ್ವಿಲಾಸಾಚಾ ಪರಿಸ್ಥಿತೆಂತು, ಕೊಂಕಣಿಯಾಂಗೆಲ್ಯಾ ದೊಳ್ಯಾಂತು ಅಂಜನ ಪೊಡೊ ಮ್ಹಣು ಮಾಯ ಕೊಂಕಣೀಚಾ ಪಾಯ್ಯಾಂರಿ ಕಪಾಲ ಘೆತ ಹೊ ಸುದೀರ್ಘ ಲೇಖು ಪುರೊ ಕರತಾಂ. ಹ್ಯಾ ಲೇಖಾಂತು ಕೊಣಾಲೆಂಯಿ ಉಣೆಪಣ ಉಲೊವಂಚೊ ಉದ್ದೇಶು ಸರ್ವಥಾ ನಾ, ಥೊಡಿಯೊ ಘಟನೋ ಥೊಡೊ ಇತಿಹಾಸು, ಜೊ ಸದ್ಯಾಕ ಹಯಾತ ಆಶಿಲ್ಯಾ ಥೊಡೆ ಲೊಕಾಂಕ ಮಾತ್ರ ಗೊತ್ತು, ಜೊ ಅತ್ತಂ ಸಾಂಗನೆ ತರೀ ಕಾಯಮಚೊಚಿ ವಿನಷ್ಟ ಜಾವಂಚಾಕ ಫಾವ ಆಸ, ತಾಜೆಂ ಸತ್ಯ ವೃತ್ತಾಂತ ಸಗ್ಳ್ಯಾಂಕ ಕಳೊ, ಕೊಂಕಣಿ ಭಾಷೆಚಾ ವಿಕಾಸಾಕ ನವಿ ದಿಶಾ ಮೆಳೊ, ಹೊ ಯೆಕೂವಿ ಭಾರಿ ಕಳಕಳೊ ಉಚಂಬಳೆವ್ನು ಯೆತಾ.

—ಬೈಂದೂರ ದೇವರಾಯ ಅಯ್ಯ್ಯಗಳ್.

---

# ही माजि करावळि

खंयीं पळे थंsयीं नारलाचे माडे।
मातें अुबारनु घेवनु ते नेत राबलात ॥
नारलाच्यो इंडिग्यो वजनेन बाग्वाल्यात।
खंयीं विचारलारि शियाळिं मेळतात ॥ १ ॥
ही माजि करावळि ॥

समुद्राचें अुदाक मिटान भरलां।
पिवचें अुदाक वांवभरि बांयत मेळता ॥
समुद्रा वेळेर बांयीं काडलि।
तरी गोड अुदाक मेळता ॥ २ ॥
ही माजि करावळि ॥

# ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ

ಖಂಯೀಂ ಪಳೆ ಥಂsಯಿಂ ನಾರ್ಲಾಚೆ ಮಾಡೆ।
ಮಾತೆಂ ಉಬಾರ್ನು ಘೇವ್ನು ತೆ ನೇತ ರಾಬ್ಲಾತ ॥
ನಾರ್ಲಾಚ್ಯೊ ಇಂಡಿಗ್ಯೊ ವಜನೇನ ಬಾಗ್ವಾಲ್ಯಾತ।
ಖಂಯೀಂ ವಿಚಾರ್ಲಾರಿ ಶಿಯಾಳಿಂ ಮೆಳ್ತಾತ ॥ ೧ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

ಸಮುದ್ರಾಚೆಂ ಉದಾಕ ಮಿಟಾನ ಭರ್ಲಾಂ।
ಪಿವ್ಚೆಂ ಉದಾಕ ವಾಂವಭರಿ ಬಾಂಯ್ತ ಮೆಳ್ತಾ ॥
ಸಮುದ್ರಾ ವೇಳೇರ ಬಾಂಯಿಂ ಕಾಡ್ಲಿ।
ತರೀ ಗೋಡ ಉದಾಕ ಮೆಳ್ತಾ ॥ ೨ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

समुद्राचें अुदाक हाडलें ।
वतां सुकोवनु मीट केल्लें ।।
समुद्रांतु न्हंयींतु होडि व्हेल्लि ।
नुस्ताक धरनु हाडलि मासळि ।। ३ ।।
ही माजि करावळि ।।

गादें पिक्ता भात कोब्बु ।
बागां पिक्ता नारळ फोप्पळ ।।
हितलां पिक्ता आंबो पणस ।
केदना अुपाशि पडना मनीस ।। ४ ।।
ही माजि करावळि ।।

केळि बोरं चांपेरां ।
काजु जांबळ सावेरां ।।
रानांत पास्पणस चूरना ।
गुडेरि गेलतरि अुपाशि पडना ।। ५ ।।
ही माजि करावळि ।।

हवो व्हांवता मिटाचो ।
हूम पुटता मिटाचि ।।
देकून लोक कपडे कमि वापरतात ।
पण मनान अुपकारि आसतात ।। ६ ।।
ही माजि करावळि ।।

आसा तांकां दुर्बळपण ।
मडन आसा होडले धडण ।।
मासळेचि चंचलता बुधींत आसा ।
तीच त्या लोकांचि शक्ति आसा ।। ७ ।।
ही माजि करावळि ।।

बिश्वासाक जीवा जीवु दित्ता ।
अपमान सहन करता आपण तापता ।।
देशु आपणेलो कोंकणी जात्ता ।
देशा बद्दल प्राण दित्ता ।। ८ ।।
ही माजि करावळि ।।

—के. एन. राव, दांडेलि.

ಸಮುದ್ರಾಚೆಂ ಉದಾಕ ಹಾಡ್ಲೆಂ ।
ವತಾಂ ಸುಕೋವ್ನು ಮಿೋಟ ಕೆಲ್ಲೆಂ ॥
ಸಮುದ್ರಾಂತು ನ್ಹಯಿಂತು ಹೊಡಿ ವ್ಹೆಲ್ಲಿ ।
ನುಸ್ತ್ಯಾಕ ಧರ್ನು ಹಾಡ್ಲಿ ಮಾಸ್ಳಿ ॥ ೩ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

ಗಾದೆಂ ಪಿಕ್ತಾ ಭಾತ ಕೊಬ್ಬು ।
ಬಾಗಾಂ ಪಿಕ್ತಾ ನಾರಳ ಫಾಪ್ಪಳ ॥
ಹಿತ್ಲಾಂ ಪಿಕ್ತಾ ಆಂಬೊ ಪಣಸ ।
ಕೆದ್ನಾ ಉಪಾಶಿ ಪಡ್ನಾ ಮನೀಸ ॥ ೪ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

ಕೇಳಿಂ ಬೋರಂ ಚಾಂಪೆರಾಂ ।
ಕಾಜು ಜಾಂಬಳ ಸಾವೇರಾಂ ॥
ರಾನಾಂತ ಪಾಸ್ಪಣಸ ಚೂರ್ನಾ ।
ಗುಡೇರಿ ಗೆಲ್ತರಿ ಉಪಾಶಿ ಪಡ್ನಾ ॥ ೫ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

ಹವೊ ವ್ಹಾಂವ್ತಾ ಮಿಟಾಚೊ ।
ಹೂಮು ಪುಟ್ತಾ ಮಿಟಾಚಿ ॥
ದೆಕೂನ ಲೋಕ ಕಪ್ಡೆ ಕಮಿ ವಾಪರತಾತ ।
ಪಣ ಮನಾನ ಉಪ್ಕಾರಿ ಆಸತಾತ ॥ ೬ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

ಆಸಾ ತಾಂಕಾಂ ದುರ್ಬಳ್ಪಣ ।
ಮ್ಹಡನ ಆಸಾ ಹೊಡ್ಲೆ ಧಡಣ ॥
ಮಾಸ್ಳೆಚಿ ಚಂಚಲತಾ ಬುಧೀಂತ ಆಸಾ ।
ತೀಚ ತ್ಯಾ ಲೋಕಾಂಚಿ ಶಕ್ತಿ ಆಸಾ ॥ ೭ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

ವಿಶ್ವಾಸಾಕ ಜೀವಾ ಜೀವು ದಿತ್ತಾ ।
ಅಪಮಾನ ಸಹನ ಕರ್ತಾ ಆಪಣ ತಾಪ್ತಾ ॥
ದೇಶು ಆಪ್ಣೆಲೊ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಜಾತ್ತಾ ।
ದೇಶಾ ಬದ್ದಲ ಪ್ರಾಣ ದಿತ್ತಾ ॥ ೮ ॥
ಹೀ ಮಾಜಿ ಕರಾವಳಿ ॥

—ಕೆ. ಎನ್. ರಾವ್, ದಾಂಡೇಲಿ.

# कारवारि कोंकणी म्हणण्यो

चरित्रेच्या पानांनी रायांच्या कुळियांविशीं आणि तांच्या राज्यांविशीं वाचूंक मेळता, पुण राज्यांनी जियेल्ल्या लोकाविशीं आणि तांचे संस्कृतायेविशीं वाचूंक मेळचें अपरूप । लोकाविशीं माहेत जाय तर लोक साहित्यांत मेळचि आसा । गादी वा म्हण्यो अेके थरेचें लोक-साहित्य म्हणूंयेत । वेगवेगळया कालार जियेल्ल्या लोका विष्यांत, तांचे संस्कृताये आणि संप्रदाया विष्यांत ह्यो गादी माहेत आटापतात ।

प्रत्येक भाषेंत गादीं वा म्हणण्यो – गादे मातु (कन्नड), प्राव्हर्ब (इंग्लिष), कहावते (हिंदी), म्हणी (मराठी), पायांचुल (तमिळ), कहेवत (गुजराथी) सुभाषितम (संस्कृत) ह्या नांवान काहि वाकयां, वाकप्रचार आसतात । हजारों वर्सांच्या अनुभवाचेर आणि निरीक्षण तशेंच जीवन भोगताना वेगवेगळे जे अनुभव आमगेल्या वाड – वडिलांक आयले तांचेर तांणि ह्यो म्हणण्यो तयार केल्यो । एकमेकाकडे अुलैतना नाजाल्यार साहित्य बरैताना योग्य जाग्यार फिट् बसचि म्हण सांगल्यार एक पानभर बरौच्या मजकुरा पेक्षां परिणामे जास्त साधता । इतर सगळया भाषांप्रमाणेंच कोंकणींत पण म्हण्यो भरपूर आसात । आतां कोंकणी वेगवेगळया भागांनि वेगवेगळया रीतींनि अुलैल्लें – बरैल्लें जाता, त्या प्रमाणे ह्यो म्हण्यो पण बदलल्यात ।

म्हगेलि मात्रभाषा कोंकणी आणि ल्हानपण कारवरांत (गांव : कडवाड) गेलें। तेन्ना आयकल्ल्यो आणि अुलैल्ल्यो कितल्यो तरी म्हणि यादींत आसात । तांतुल्ल्यो थोडयो सकल दिल्यात । ह्या म्हणण्यांनि हजारों वर्सांचें शहाणपण दिसून येता :

१. धावत धावत येवचें आणि थोरकडेन बसचें ।
२. भूस बरो तर दीस बरो ।
३. इंद्राक मारल्यार चंद्राक लागता ।
४. गांडीर मारल्यार दांत झडतात ।

# ಕಾರವಾರಿ ಕೊಂಕಣಿ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯೊ

ಚರಿತ್ರೆಚ್ಯಾ ಪಾನಾಂನಿ ರಾಯಾಂಚ್ಯಾ ಕುಳಿಯಾಂವಿಶಿಂ ಆನಿ ತಾಂಚ್ಯಾ ರಾಜ್ಯಾಂವಿಶಿಂ ವಾಚೂಂಕ್ ಮೆಳ್ತಾ, ಪುಣ್ ರಾಜ್ಯಾಂನಿ ಜಿಯೆಲ್ಲ್ಯಾ ಲೋಕಾವಿಶಿಂ ಆನಿ ತಾಂಚೆ ಸಂಸ್ಕೃತಾಯೆವಿಶಿಂ ವಾಚೂಂಕ್ ಮೆಳ್ಚೆಂ ಅಪರೂಪ್. ಲೋಕಾವಿಶಿಂ ಮಾಹೆತ್ ಜಾಯ್‌ತರ್ ಲೋಕ್‌ಸಾಹಿತ್ಯಾಂತ್ ಮೆಳ್ಚಿ ಆಸಾ. ಗಾದಿ ವಾ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯೊ ಎಕ್ಕೆ ತರೆಚೆಂ ಲೋಕ್ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಮ್ಹಣ್ಣಾಂಯೆತ್. ವೆಗ್‌ವೆಗ್ಳ್ಯಾ ಕಾಲಾರ್ ಜಿಯೆಲ್ಲ್ಯಾ ಲೋಕಾವಿಷ್ಯಾಂತ್, ತಾಂಚ್ಯೆ ಸಂಸ್ಕೃತಾಯೆ ಆನಿ ಸಂಪ್ರದಾಯಾ ವಿಷ್ಯಾಂತ್ ಆಸಲ್ಯೊ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯೊ ಮಾಹೆತ್ ಆಟಾಪ್ತಾತ್.

ಪ್ರತ್ಯೇಕ್ ಭಾಷೆಂತ್ ಗಾದಿ ವಾ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯೊ-ಗಾದೆಮಾತು (ಕನ್ನಡ), ಪ್ರೊವ್ಹರ್ಬ್ (ಇಂಗ್ಲಿಷ್), ಕಹಾವತೆ (ಹಿಂದಿ), ಮ್ಹಣಿ (ಮರಾಠಿ), ಪಾಯಾಂಚುಲ್ (ತಮಿಳ್), ಕಹೆವತ್ (ಗುಜರಾಥಿ), ಸುಭಾಷಿತಮ್ (ಸಂಸ್ಕೃತ್) ಹ್ಯಾ ನಾಂವಾನ್ ಕಾಹಿ ವಾಕ್ಯಾಂ, ವಾಕ್‌ಪ್ರಚಾರ್ ಆಸ್ತಾತ್. ಹಜಾರೊಂ ವರ್ಸಾಂಚ್ಯಾ ಅನುಭವಾಚೆರ್ ಆನಿ ನಿರೀಕ್ಷಣ್ ತಶೆಂಚ್ ಜೀವನ್ ಭೊಗ್ತಾನಾ ವೆಗ್‌ವೆಗ್ಳೆ ಜೆ ಅನುಭವ್ ಆಮಗೆಲ್ಯಾ ವಾಡ-ವಡಿಲಾಂಕ್ ಆಯ್ಲೆ ತಾಂಚೆರ್ ತಾಂಣಿಂ ಹ್ಯೊ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯೊ ತಯಾರ್ ಕೆಲ್ಯೊ. ಎಕಮೇಕಾಕಡೆ ಉಲ್ಯೆತನಾ ನಾ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಸಾಹಿತ್ಯ್ ಬರೈತನಾ ಯೋಗ್ಯ್ ಜಾಗ್ಯಾರ್ ಫಿಟ್ ಬಸ್‌ಚಿ ಏಕ್ ಮ್ಹಣ್ ಸಾಂಗ್ಲ್ಯಾರ್ ಏಕ್ ಪಾನ್‌ಭರ್ ಬರೌಚ್ಯಾ ಮಜ್‌ಕುರಾ ಪೆಕ್ಷಾಂ ಪರಿಣಾಮ ಜಾಸ್ತ್ ಸಾಧ್ತಾ. ಇತರ್ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ಭಾಷಾಂ ಪ್ರಮಾಣೆಂಚ್ ಕೊಂಕಣೆಂತ್ ಪಣ್ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯೊ ಭರ್ಪೂರ್ ಆಸಾತ್. ಆತಾಂ ಕೊಂಕಣಿ ವೆಗ್‌ವೆಗ್ಳ್ಯಾ ಭಾಗಾಂನಿ ವೆಗ್‌ವೆಗ್ಳ್ಯಾ ರಿತಿಂನಿ ಉಲೈಲ್ಲೆಂ –ಬರೈಲ್ಲೆಂ ಜಾತಾ, ತ್ಯಾ ಪ್ರಮಾಣೆ ಹ್ಯೊ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯೊ ಪಣ್ ಬದಲ್ಲ್ಯಾತ್.

ಮ್ಹಗೆಲಿ ಮಾತೃಭಾಷಾ ಕೊಂಕಣಿ ಆನಿ ಲ್ಹಾನ್‌ಪಣ್ ಕಾರವಾರಾಂತ್ (ಗಾಂವ್ : ಕಡ್‌ವಾಡ್) ಗೆಲೆಂ. ತೆನ್ನಾ ಆಯ್ಕಲ್ಲ್ಯೊ ಆನಿ ಉಲೈಲ್ಲ್ಯೊ ಕಿತ್ಲ್ಯೊ ತರೀ ಮ್ಹಣಿ ಯಾದಿಂತ್ ಆಸಾತ್. ತಾಂತುಲ್ಯೊ ಥೊಡ್ಯೊ ಸಕಲ್ ದಿಲ್ಯಾತ್. ಹ್ಯಾ ಮ್ಹಣ್ಣ್ಯಾಂನಿ ಹಜಾರೊಂ ವರ್ಸಾಂಚೆಂ ಶಹಾಣ್‌ಪಣ್ ದಿಸೂನ್ ಯೆತಾ.

೧. ಧಾವತ್ ಧಾವತ್ ಯೆವ್ಚೆಂ ಆನಿ ಥೊರ್‌ಕಡೆನ್ ಬಸ್ಚೆಂ
೨. ಭೂಸ್ ಬರೊ ತರ್ ದೀಸ್ ಬರೊ.
೩. ಇಂದ್ರಾಕ್ ಮಾರ್ಲ್ಯಾರ್ ಚಂದ್ರಾಕ್ ಲಾಗ್ತಾ.
೪. ಗಾಂಡಿರ್ ಮಾರ್ಲ್ಯಾರ್ ದಾಂತ್ ಝಡ್ತಾತ್.

५. नाचच्याक कळना जाल्यार आंगण वांकडें ।

६. म्हाळसायेक घोव ना आणि बेताळाक बायल ना ।
(बेताळाक ना बायल आणि भावका देवतेक ना घोव)

७. चामडि दीत पण दमडि दिवचो ना ।

८. अुष्टया हातान कावळो सुद्धां आंबुडचो ना ।

९. गांडींत बॉट घालन हुंगतलो आणि लोकां मांगतलो 'परमोळ' ।

१०. कामा पुर्तो मामा ।

११. जांग दाकौन फालें कर्तलि ।

१२. तीन तिकट महा बिकट ।

१३. आपलो हात जगन्नात, दुसऱ्याचो हात – बोडार हात ।

१४. माजरा बोडावैलो दिवॅा ।

१५. सात जणांलि माय कट्टयार पण्ण मेलि ।

१६. डाम डक्कळ मदें पोक्कळ ।

१७. कुड्डयाक पंचारत ।

१८. भरिल्ल्या भटाक धंय करकरता ।

१९. गांवांत पाड नांवाचो भट ।

२०. नवें नवें आंगार धवें ।

२१. किडयाक किवणातच सुख ।

२२. मेल्ल्या म्हशीक बारा शेर दूद ।

२३. घरात वर्शाक आम्मा सवाशीण बाप्पा ब्राह्मण ।

२४. गळयांतलें तुटलें पण होटींत पडलें ।

२५. कोण घरा उजो लागलो म्हण धावता, तर कोण विडि पेटोवच्याक धावता ।

२६. ल्हान म्हण खांदार घेतल्यार, कानात घुसैता ।

२७. बांट पिळयार दूद येतलें म्हण हुशारि शिकैता ।

२८. दुदान वाडचें आणि मुतान आबोंवचें ।

२९. दोळयां आड मसण पाड ।

३०. मोर नाचता म्हण (रान्नीबैलें) भाणशिरें नाचता ।
(उजांत पण्ण जळलें)

३१. बामण न्हावन मेले, मुसलमान खावन मेले ।

३२. लंकेत भांगरा विटॅा, कोणे पळैल्यात ?
(लंकेंतु भांगराक मोल ना)

३३. कापूस जोकच्या कडेन मूस अुपाशि ।

३४. जांगेन वाडलो म्हण अकलेन वाण्णा (वाडना) ।

೫. ನಾಚ್‌ಚ್ಯಾಕ್ ಕಳನಾ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಆಂಗಣ್ ವಾಂಕ್‌ಡೆಂ

೬. ಮ್ಹಾಳ್‌ಸಾಯೆಕ್ ಘೊವ್‌ನಾ ಅನಿ ಬೆತಾಳಾಕ್ ಬಾಯ್ಲ್ ನಾ.
(ಬೆತಾಳಾಕ್ ನಾ ಬಾಯ್ಲ್ ಅನಿ ಭಾವಕಾ ದೇವತೆಕ್ ನಾ ಘೊವ್)

೭. ಚಾವ್‌ಡಿ ದೀತ್ ಪಣ್ ದವ್‌ಡಿ ದಿವ್ಚೊ ನಾ.

೮. ಉಷ್ಟ್ಯಾ ಹಾತಾನ್ ಕಾವ್ಳೊ ಸುದ್ಧಾಂ ಅಂಬುಡ್ಚೊ ನಾ

೯. ಗಾಂಡಿಂತ್ ಬೊಟ್ ಘಾಲ್ನ್ ಹುಂಗ್ತಲೊ ಅನಿ ಲೊಕಾಂ ಸಾಂಗ್ತಲೊ "ಪರ್‌ಮೊಳ್"

೧೦. ಕಾಮಾ ಪುರ್ತೊ ಮಾಮಾ

೧೧. ಜಾಂಗ್ ದಾಕವ್ನ್ ಫಾಲೆಂ ಕರ್ತಲಿ

೧೨. ತೀನ್ ತಿಕಟ್ ಮಹಾ ಬಿಕಟ್

೧೩. ಆಪ್ಲೊ ಹಾತ್ ಜಗನ್ನಾತ್, ದುಸ್ರ್ಯಾಚೊ ಹಾತ್— ಬೊಡಾರ್ ಹಾತ್

೧೪. ಮಾಜರಾ ಬೊಡಾವೈಲೊ ದಿವೊ

೧೫. ಸಾತ್ ಜಣಾಂಲಿ ಮಾಯ್ ಕಟ್ಟ್ಯಾರ್ ಪಣ್ಣ್ (ಪಡೂನ್) ಮೆಲಿ

೧೬. ಡಾಮ್ ಡಕ್ಕಳ್ ಮಧೆಂ ಪೊಕ್ಕಳ್

೧೭. ಕುಡ್ಡ್ಯಾಕ್ ಪಂಚಾರತ್

೧೮. ಭರಿಲ್ಲ್ಯಾ ಭಟಾಕ್ ಧಂಯ್ ಕರ್‌ಕರ್‌ತಾ

೧೯. ಗಾಂವಾಂತ್ ಪಾಡ್ ನಾಂವಾಚೊ ಭಟ್

೨೦. ನವೆಂ ನವೆಂ ಆಂಗಾರ್ ಧವೆಂ

೨೧. ಕಿಡ್ಯಾಕ್ ಕಿವಣಾತಚ್ ಸುಖ್

೨೨. ಮೆಲ್ಲ್ಯಾ ಮ್ಹಶಿಕ್ ಬಾರಾ ಶೆರ್ ದೂದ್

೨೩. ಘರಾತ್ ವರ್ಶಾಕ್ ಆಮ್ಮಾ ಸವಾಶೀಣ್ ಬಾಪ್ಪಾ ಬ್ರಾಹ್ಮಣ್

೨೪. ಗಳ್ಯಾಂತ್ಲೆಂ ತುಟ್ಲೆಂ ಪಣ್ ಹೊಟಿಂತ್ ಪಡ್ಲೆಂ

೨೫. ಕೊಣ್ ಘರಾ ಉಜೊ ಲಾಗ್ಲೊ ಮ್ಹಣ್ ಧಾಂವತಾ, ತರ್ ಕೊಣ್ ವಿಡಿ ಪೆಟೊವ್ಚ್ಯಾಕ್ ಧಾಂವತಾ

೨೬. ಲ್ಹಾನ್ ಮ್ಹಣ್ ಖಾಂದಾರ್ ಘೆತ್ಲ್ಯಾರ್, ಕಾನಾಂತ್ ಘುಸೈತಾ

೨೭. ಬೊಂಟ್ ಪಿಳ್ಯಾರ್ ದೂದ್ ಯೆತಲೆಂ ಮ್ಹಣ್ ಹುಶಾರಿ ಶಿಕೈತಾ

೨೮. ದುದಾನ್ ವಾಡ್‌ಚೆಂ ಆನಿ ಮುತಾನ್ ಆಬೊಂವ್ಚೆಂ

೨೯. ದೊಳ್ಯಾಂ ಆಡ್ ಮಸಣ್ ಪಾಡ್

೩೦. ಮೊರ್ ನಾಚ್ತಾ ಮ್ಹಣ್ (ರಾನ್ನ್ವೈಲೆಂ) ಭಾಣ್ಶಿರೆಂ ನಾಚ್ತಾ, (ಉಜ್ಯಾಂತ್ ಪಣ್ಣ್ ಜಳ್ಳೆಂ)

೩೧. ಬಾಮಣ್ ನ್ಹಾವ್ನ್ ಮೆಲೆ, ಮುಸಲ್ಮಾನ್ ಖಾವ್ನ್ ಮೆಲೆ

೩೨. ಲಂಕೆಂತು ಭಾಂಗರಾವಿಟೊ ಕೊಣೆ ಪಳೈಲ್ಯಾತ್?
(ಲಂಕೆಂತು ಭಾಂಗರಾಕ್ ಮೊಲ್ ನಾ)

೩೩. ಕಾಪೂಸ್ ಜೊಕ್ಚ್ಯಾ ಕಡೆನ್ ಮೂಸ್ ಉಪಾಶಿ

೩೪. ಜಾಂಗೆನ್ ವಾಡ್ಲೊ ಮ್ಹಣ್ ಅಕಲೆನ್ ವಾಣ್ಣಾ (ವಾಡನಾ)

